# अळमीं

( कथा - संग्रह )



चंद्रकांत केणी



सोवीत साहित्य प्रकाशन

●

पयली खेप :
सप्टेंबर १९७५

●

उजवाडावपी :
गुरुदास पै
सोबीत साहित्य
पो. बॉ. नं. ७
पणजी - गोंय

●

छापपी :
नरेंद्र नारायण नायक
काझ गोमन्तक
मडगांव - गोंय

●

मोल :
ग्रंथालय प्रत: रु. ६
सादी प्रत: रु. ४

# असो कथाकार, अश्यो कथा !

श्री. चंद्रकान्त केणी हांगेलो हो तिसरो कथां-झेलो. ह्या झेल्यांतल्यो तेराय कथा हांवें अेका आदेसांत वाचून सोंपयल्यो आनी म्हाकाच प्रस्न केलो : 'ह्या कथांतल्यान तुका कितें मेळ्ळें ?'

'कथाकाराची सारकी वळख.' भितल्ल्यान अेक जाप आयली.

ही जाप खरी काय कितें हें पडताळून पळोवपाक हांवें श्री. चंद्रकान्त केणी हांगेलें 'धर्तरी अजून जियेताली' आनी 'आशाढ पांवळी' हे आदीं उजवाडा आयिल्ले कथां-झेले परते वाचपाक घेतले. 'अेकलो अेकसुरो' आनी 'तरे तरेचीं सवंगां' हीं पुस्तकांय वाचलीं.

म्हाका सगळेकडेन लेखकाचेंच रुप दिश्टी पडलें !

श्री. चंद्रकान्त केणी हे अेक पत्रकार. व्यवसायानूय आनी पिंडानूय. पत्रकार म्होंवा-मुसासारके आसतात. म्होंवा-मुसांक फुलांची ओड. ह्या फुला वयल्यान त्या फुलार बस आनी दर-अेका फुलांतल्यान म्होंव चोखून घे हो तांचो सभाव. पुणून ह्या सभावाचें दुसरें अेक आंग आसता. तें पत्रकाराक सगळ्यांत चड लागू जाता. म्होंवा मूस केन्ना अेकमुळो रावून म्होंव खायना. तो तें दुसऱ्यांक वांट्टा.

हांव सदांच म्हणीत आयलां : चंद्रकान्तबाबांक सारके वळखतले जाल्यार तांकां चार-चौगांच्या सांगातांत वा पांच-पन्नासांच्या मेळाव्यांत पळोवंचे. अेका परस अदीक लोक अेकठांय आयले म्हणटकूच सामान्यतायेन आमी सगळे कांसवा भाशेन आपलीं आंगां

भितर्यो ओढून घेतले. चड-शेच जाल्यार, समानधर्मा अश्या कोणाकूय वेंचून ताच्या लागसार बसून फुतफुतले. चंद्रकान्तबाब वेगळे. तांकां त्या मेळाव्यांत भरसुपाक वेळ लागचोना. ते सभावान बहिर्मुखी–extrovert. हांवें तांकां सदांच असल्या मेळाव्यांनीं सगळ्यांकडेन अेकरूप जाल्ले पळेल्यात. पत्रकार जाल्ल्यान तांणीं आपले भोंवतणच्या जिवितांत 'तरेतरेचीं सवंगां' पळेल्लीं आसात. (कांय कांय वेळार खासा निर्मिल्लींय आसतात). ते ह्या सवंगांच्यो खबरी लोकांक सांगूंक लागतात. आनी रोखडेंच सगळ्यांचें लक्ष आपले वशीन ओढून घेतात. तांच्यांत अेक गुण आसा–ते खबरो बरे तरेन सांगतात. दुसऱ्यांचेर परिणाम जायसारके रितीन सांगतात.

अेकल्या विचारवंतान म्हळां : "Entertainment at its best engages both the heart and the mind, our emotions and our reason."—सगळ्यांत बरी 'करमणूक' खंयची? जी आमचें काळीज आनी मन दोनूय ओढून घेता ती. आमच्या भावनांक आनी बुद्दीक थाकाय दिता ती.

चंद्रकान्तबाबांच्या खबरांनीं हांसपा सारक्यो खबरी आसतात; रडपा सारक्योय आसतात. त्यो ते लोकांचो चड वेळ घेनासतना थोड्या उतरांनीं सांगतात.

तांगेल्या बरयल्ल्या कथांनीय होच गुण दिश्टी पडटा. अेकूय उतर चड ना. अेकूय उतर उणें ना.

मोपासांची L'Heritage नांवाची अेक कथा आसा. ती ताणें दोन तरांनीं बरयली. पयले खेपे अेका दिसाळ्या खातीर. शें-दोनशें उतरां भितर. दुसरे खेपे अेका म्हयनाळ्या खातीर. हजार दोन हजार उतरां भितर. कथा अेकूच. पुणून पयलेंत अेकूय उतर उणें नाशिल्लें. दुसरेंत अेकूय उतर चड नाशिल्लें.

कथेचें खंय अेक 'तंत्र' आसता. आसत घडये. पुणून हांव अेक जाणां : खोशी जाली म्हणटकूच गावंक लागप आनी खोलायेन

कितेंय अणभवलें वा पळेलें म्हणटकूच तें दुसऱ्यांक सांगीन दिसप हें मनशाच्या सभावांतूच आसता. कथा जल्मा आयली ती मनशाच्या ह्याच सभावांतल्यान.

संवसाराच्या आरंभाकसावन लोक कथा सांगीत आयल्यात आनी आयकत आयल्यात. सांगतल्याक ती सांगन दिसता आनी आयकतल्याक ती आयकन दिसता म्हुण मनीस जातिच्या आरंभापसून संवसारांत कथा चलत आयल्या. मनीस बदलत गेला तशी ताची रुचूय बदलत गेल्या आनी रुच बदलत गेल्या तशी कथाय बदलत गेल्या.

हाचो अर्थ असो कि कथेचें अेकाद्रें तंत्र आसलेंय जाल्यार तें काळाप्रमाण बदलत गेलां. मनीस जसो बदलत वतलो तशें तशें तें तंत्रूय बदलत रावतलें.

बदलना आनी बदलचो ना तो कथेचो मंत्र.

सॉमरसेट मॉम म्हणटा :

कथेचो मंत्र अेकूच आसूं येता : कथाकाराक कथा सारकी बरी सांगूंक येवंक जाय. 'He must be able to tell such story as he has to tell effectively so that he may hold his reader's attention.'

दुबावूच ना, चंद्रकान्तबाबांक ही कला बरी सादल्या.

ह्या पुस्तकांतली 'आमले तोर' ही कथा वाचली आनी तातूंत म्हाका कथाकाराचें अेक म्हत्त्वाचें आंग दिश्टी पडलें. हे कथेंत हांवें म्हाकाच पळेलो. म्हाकाय जायते खेपो ल्हवूच आंब्याचेर चडून तोर काडचें, वाटेर उबो रावन चिंचे-बोटां फातरावचीं, मळ्यांनीं लिपचोरयांनीं वचून कंवळ्यो पिपऱ्यो चोरच्यो, केन्नाय लोकांलीं पेरां वा आडसरां पाडचीं अशें दिसलां. पुणून 'प्रतिष्ठेचे पास आनी आदर्शाचीं फळां हांकां लागून म्हज्या वांट्याक आयल्या ती ... केन्नाच सोंपना असली

अतृप्ती.' सभ्य म्हुण जें सवंग घेतलां तें सोडोवन व्हरता आसतना जिविताचे कितलेशेच आनंद हांव होगडावन बसलां हाची जी खंत म्हाका भोगता तीच हे कथेंत म्हाका मेळ्ळी. आनी म्हाका 'समान-धर्मा' सोदपाक चड पयस वचचें पडलें ना आनी चड काळ जियेवचें लागलें ना हाची खोस जाली.

हे कथेंतलो 'हांव' खासा चंद्रकान्तबाब आसूं येतात. हांवूंय आसूं येतां आनी– म्हजो समज आसा–जो ती वाचतालो तोय आसूं येता.

पुणून 'फातरी पोंदची आंकरी' ही कथा सारखी म्हज्याच जिविताचेर आधाल्लेली कशी म्हाका दिसली आनी हांव अजापांत पडलों. म्हळें, ह्या कथाकाराक म्हजी कथा आनी व्यथा कशी कळ्ळी? हांवें कांय तिची सुळूस अेका उतरान लेगीत (ताकाच न्हय, कोणाकूच) लागूंक दिवंक नाशिल्ली. जायते फावटी म्हाका दिसलां— आमच्या रासवळ मळार full timers म्हुण जे कोण वावुरतात तांची व्यथा कोणाकूच कशी समजना? ते जीं कामां करतात तीं फकत तांचींच आसतात? लोकांची नासतात? 'तुमचीं' नासतात? तुमी त्या कामांनी पडनात कित्याक? तुमकां संवसार आसता. मागीर, जे तातूंत पडल्यात तांकां तांचो संवसार नासता? तो तांणीं कसो चलोवप? ताजें कशें चलता हें जाणां जावपाची आनी तांच्यो अडचणी पयस करपाची लक्तुबाय कोणाकूच कशी जायना?

हे कथेंतलो श्रीनिवास आनी ताजी बायल वासंती म्हळ्यार हांव आनी म्हजी बायल कशीं म्हाका दिसलीं आनी म्हजी व्यथा अेकल्याच्या तरी लक्षांत आयिल्ली पळोवन म्हाका अेके तरेचो धीर–सो दिसलो.

दुसऱ्यांची दुख्खां वळखुपाचो आनी समजुपाचो गुण ह्या कथाकारांत आसा हें म्हाका हे कथे वयल्यान दिसून आयलें.

अेकल्यान म्हळां: खरो कथाकार कोण ? जाका आपल्या पात्रांचीं दुख्खां समजतात, तांचे भाशेन जो येवजिता, तांचे वरी जो फणफणटा. The story writer must be profoundly interested in his fellow creatures. He must have the gift of empathy which enables him to step into their shoes, think their thoughts and feel their feelings.

ही gift ot empathy म्हाका ह्या कथाकारांत खोलायेन दिश्टी पडली ती ताचे 'बंदिनी' कथेंत. 'तिचेर' तो मोग करिना. तिचे सुंदरकायेचेर तो भाळूंक ना. ताका ती वैभवांत लेगीत शेणिल्ली दिसल्या. देखून तो तिका सांगता: 'चल, म्हजे बरोबर यो... म्हगेर यो. तूं सांगशीत त्या नात्यान राव... मित्र म्हणून वा भाव म्हणून हांव तुजो सांबाळ करीन...' पात्रा विशीं पुराय 'समभाव' empathy दिसले बगर हीं उतरांच तोंडांतल्यान भायर सरचीं नाशिल्लीं.

दुसऱ्यांक 'समजून घेवपाची' ह्या कथाकारांतली ही शक्ती ताच्या दुसऱ्याय कथांनीं दिश्टी पडटा. ताच्यांतले हे शक्तीक लागून 'रातिच्या धा वरांचेर' पणजे, उसगंवां आनी मुम्बय तीन बिराडांनी जें अेकाच वेळार घडटा तें ताका बरें समजता. तें बरें समजता देखून घोवान सोडिल्ले आनी म्हुण गांया भायर वचून राविल्ले 'रुक्मिणि' ची ताका काकूळटूय दिसता आनी ओडूय दिसता. 'विश्वामित्राचें तप भंगोवपाक आयिल्ले मेनकेवरी ती दिसता' ती ताच्यांतल्या ध्येयवादी स्वातंत्र्यसैनिकाक. ताच्यांतलो कथाकार रुक्मिणीक सोडून वतना 'जड जाल्ल्या पावलांनींच' चलूंक लागता.

शृंगाराचे बाबतींत हो कथाकार अनिच्छ indifferent न्हय. 'काश्मिरांतले कळये' चीं वर्णनां करतना तो कांचवेना. 'चीना

पीक' पळोवंक आयिल्ले 'जाकिटांतले चलये'च्या 'अेकशीवड' आंगलोटाची ओड दिसली जाल्यार ती दिसली म्हुण सांगपाक तो अनमनना. महाबळेश्वराक पळेल्ले 'मुग्धे'ची याद ताका 'अस्वस्थ' करता हें सांगतना तो फाटीं-फुडें सरना. पुणून तो शृंगाराच्या मळावयली सांकेतिक नीत 'मानता' जावंक जाय. देखून तो मुरवत सोडिना. ताच्या शृंगाराक परंपरेच्या संस्कारितेची अेक शीम पडल्या. ती अितली कि 'चम्पावतच्या डाक बंगल्यांत' ताका वळखुपी, विचारपी-पाचारपी कोण नासतना, अितलेंच न्हय तर थंय मेळिल्ली स्विडीश चली मेकळीक घेता आसतनाय तो भायर ऑल्तेरार वचून न्हिदता! ताची संस्कारिता अश्या वेळार सामकी शिवराक दिसता. कथेंतलो 'हांव' घडये ताका मुरवतींत दवरता जावये.

हो कथाकार खरो मेकळो दिसता तो देवू आनी जायू हांचो 'अबुद्द मोग' चितरायता तेन्ना. हे कथेंत 'हांव' ना. आसलोच जाल्यार 'बरो मोग कोत्ताय मरे तुमी' अशें म्हणपी सांतान रेंदराच्या रूपान आसतलो. पुणून तो 'अबुद्द मोगा'ची तोखणाय करूंक जाणा.

चंद्रकान्तबाबांल्यो सगळ्यो कथा, धरूया, फाल्यां 'अितिहास जमा' जाल्यो. (व्हडल्या-व्हडल्यांच्यो जाल्यात) तरूय, म्हाका दिसता, तांगेली 'अबुद्द मोग' ही अेक कथा खूब वरसां जियेतली आनी ही अेकूच कथा कोंकणी सरस्पतिच्या अितिहासांतलें चंद्रकान्त-बाबांलें कथाकार म्हुण नांव अजरंवर करपाक पुरो जातली.

जायते जाण म्हणटात: चंद्रकान्तबाबांले कथेंत गोंयचे मातयेचो वास ना. तांची कथा काळजाचो पीळ घेना. ती आमकां रडयना. खंती करिना. आमकां चिमटे काडिना. पुणून —

प्रस्न येता तो असो: हे चंद्रकान्तबाबांले कथेचे अवगुण काय गुण?

धरूया, फाल्यां पुराणिक म्हणपाक लागले (कथाकारूच तेय

बी ) कि आयचे भारतीय कथेंत नीतिबोध निखाळूस ना. जाल्यार, ती कथा न्हय जातली ?

असकेंच आसल्यार ती कथा, नाजाल्यार न्हय अशी कथेक बांदून दवरूं नज. कथा जायत्या तरांची आसूं येता. बोध दिता तीय कथा. राग हाडटा तीय कथा, रडयता तीय कथा, हांसयता तीय कथा आनी करमणूक करता तीय कथा. कथेंत आसूंक जाय ती 'कथा'– सांगतल्याक सांगीन दिसता अशी आनी आयकतल्याक आयकन दिसता अशी.

तशीच कथा हो कथाकार बरयत आयला.

कोंकणींतल्या कवीं भाशेन कथाकार जण अेकलो आपापली तरा घेवन आयला. तशी चंद्रकान्तबाबांली कथा तांचे तरेची. तिचेर तांगेली खाशेली कुरू मारिल्ली मेळटा.

ही कथा बद्द कथाकारा सारकी, पत्रकार कथाकारा सारकी. सुटसुटीत आनी आयकन दिसता अशी.

प्रियोळ
१५–८–७५

— रवीन्द्र केळेकार

## मां डा व ळ


| | | |
|---|---|---|
| १. | आमले तोर . . | ८ |
| २. | फातरी पोंदची आंकरी . | १५ |
| ३. | चेंबू . . . | २५ |
| ४. | रातीच्या घा वरांचेर . | ३४ |
| ५. | रुक्मीण . . | ४४ |
| ६. | काश्मिरांतली कळी . | ५४ |
| ७. | चीना पीक . . | ६० |
| ८. | चम्पावतच्या डाक बंगल्यांत | ६८ |
| ९. | बंदिनी . . . | ७८ |
| १०. | मुग्धा . . . | ८६ |
| ११. | अबुद्द मोग . . | ९० |
| १२. | पातकी मन . . | ९६ |
| १३. | पिकिल्लीं पानां . . | १०१ |

# आमले तोर

श्रावण म्हयनो सोंपून चवथय येवन गेली. पुण पावसाचो भार अजून उणो जावंक ना. दनपारचीं इकरा वरां जावन गेल्यांत. अजून वताचें कीर्ण ना. निकतीच एक दडक शिरशिरून गेल्या. भायले वटच्यान आंब्याचे तेंगशेर आंबलेचीं तीन तोरां घोलतात. ह्या दिसांनी आंबली म्हळ्यार अप्रुपच. म्हजें चित्त रावन रावन थंय वता.

मुखार एक कवी बसला. केन्ना सावन आपलें महाकाव्य वाचून दाखयता. उतरा-उतराची फोडणिशी करून समजायता. हांव फक्त तकली हालयतां. अजून अग्रलेख बरोवन जावंक ना. विशय तकलेंत घोळयतां. पुण चित्त मात त्या तीन तोरांकडेन पर्थून पर्थून वता.

मदींच फोन आयलो. वाजतल्या फोनाचेर हात दवरून हांव कवीक म्हणटां, ‘दवरून वचात तुमी. सवकासायेन वाचून पळेतां...’

कवी निगरगट्ट. कसोच हालना. रिसिव्हर उबारून हांव फोन घेतां. तो बसून रावता.

उलोवणे सोंपोवन रिसिव्हर सकल दवरनाफुडें कवी म्हणटा, ‘फुडल्या आयताराक येतली न्हय ?’

‘पळोवया.’ हांव उतर दिना.

‘ चालू परिस्थितीवेलें हें विडंबन. प्रसिद्ध जायनाफुडें गोंयांत क्रांती जातली. ’ तो म्हाका निकड लायता.

‘ पळोवया. जागो मेळप हो प्रस्न. ’

पुण कवी फाटीं सरना. तो चडच आग्रो करता. गोंयचे समाजिक आनी राजकी प्रस्न काव्याच्या आदारान सोडोवंक भायर सरिल्ल्या कवीच्या तोंडांतल्यान, कंपोजींग खात्यांतल्यान अग्रलेख मागूंक आयिल्लो प्यून म्हजी सुटका करता. हांव बरोवपाचीं कागदां मुखार घेतां आनी पेन हातांत धरतां. आतां कवी उबो रावन निमाणो आग्रो करता. म्हणटा, ‘ तुमी वाचून पळयात. वाचतकूच हेर सगळें बरप कुशीक दवरून तुमी ही कविता छापतले, हातूंत म्हाका इल्लोय दुबाव ना. ’

कवी वतकूच म्हजी नदर पर्थून आंब्या तेंगशेर वता. पावसान भिजिल्ल्या त्या तीन तोरांच्या घोंसाचेर आतां सुर्याचीं किर्णां पडल्यांत. हांव अस्वस्थ जातां. तोंडाक उदक सुटून दाडवणां वळटात.

आतां आंबले तोरांचें घोलप पळोंवंक म्हाका वेळ ना. अग्र-लेखाचे दोन कॉलम भरून काडूंक जाय. मान सकल घालून बरोवंक लागतां.

चार ओळी बरोवन जातकूच नदर परत आंब्याचेर वता.

खरेंच, सोंपत्या भाद्रपदांत आंब्याक तोर लागप हें अप्रुपच. पुण अप्रूपतायच फक्कत न्हय तर सोबीतकायय म्हजें चित्त ओडून घेता. मळबांत अजून पावशी कुपां दाटिल्लीं आसात. वताचीं किर्णां तांच्यो कडो उजळायतात. आनी माथ्यार न्हावन केंस मेकळे सोडून आयिल्ले एकादे बायलेच्या गालावेले उदकाचे तीन थेंब कशे तीं आंबलेचीं तोरां चकचकतात.

पर्थून अग्रलेखाचेर नदर भोंवडायतां. पुण चित्त लागना.

मेजावेली घांट वाजोवन प्यूनाक आपोवन घेतां आनी जनेलावेलो पड्डो सरकावन घेवंक सांगतां. आतां भायलो वाठार नदरेआड जाला. पुण चित्तांतलें तें तोरांचें दृश्य पुसून वचना. अस्वस्थ मनाचेर निर्धाराचें चेपण घालून बरोवंक लागतां. संवयेच्या सरावाक लागून बरोवप जाता. पुण बरोवपांत मन रमना.

बरोवप सोंपतकच्च एक सुटकेचो निस्वास सोडतां आनी आळस दितां. मागीर उठून जनेलाकडे वतां आनी पड्डो कुशीक काडून पर्थून तीं तोरां पळेतां.

आतां इल्लें खर वत पडलां. आनी तोरांचो घोंसय थीर जाला.

निसर्गाच्या मेकळेपणांत मनशान आपले भोंवतणीं बांदून घेतिल्ले जबाबदारीचे, प्रतिश्ठेचे पास मनशाक पावलाकणकणीं मन मारूंक लायतात. ना जाल्यार हांव केन्ना भायर वचून दोन फातर मारून तीं तोरां पाडून करकरीत चाबून खातलों आशिल्लों. पुण सामाजिक बंधनांनीं जिवितांतलो आनंदच आडावन दवल्ला.

खीणभर दिसलें, हीं बंधनां नासतीं जाल्यार खुब्शी मेकळेसाण आसती. कोण तरी मार्गावेलो एक जावपांतय एक सुख आसता. पुण समाजाची मान्यता, प्रतिश्ठेचे पास आनी आदर्शाचीं फळां हांकां लागून म्हज्या वांट्याक आयल्या फक्कत अतृप्ती. केन्नाच सोंपना अशी अतृप्ती.

दनपारचो घराकडेन वतां वतां अतृप्तेची ही भावना मन उदास करता. निसर्गाकडले संबंध भुरगेपणा वांगडाच सोंपिल्ले. आनी मागीर वांट्याक आयिल्ली फक्कत अडेची जीण. वेळ, काळ आनी भोंवतणचो समाज हांचेर नदर थिरावन तोंडार रुपडीं चडोवन वावुरपांत दिसाफाटल्यान दीस आनी वर्सां गेल्लीं. बळयां तोंडार हांसो हाडप, नाशिल्ली उमेद दाखोवप, सभ्यतेच्या नांवान मानवना अशीं कामां करप आनी आपुण आसा तसो संवसाराच्या मुखार

वचनासतना नाटकांतल्या संवंगाभशेन जिवितांतलें आपलें संवंग सोबोवन व्हरप होच क्रम जावन बशिल्लो.

पानार गाजराचें लोणचें पळोवन पर्थून आंबले तोरांची याद जाली....पोरूं...वर्स जावन गेलें. शोभाक आंबले तोर खायन दिशिल्लें. आश्विन सोंपूक पाविल्लो. आनी आंबलेचें तोरच न्हय, आंबाडो लेगीत मेळप कठीण आशिल्लो. सगळो गांव सोदूनय तोर मेळ्ळें ना आनी तो खर धुवाळो तसोच उल्लो. लिंबाच्या लोणच्यान दुदाची तान ताकार भागोवपाचो येत्न केलो. पुण समाधान कोणाचेंच जालें ना. आनी ताजी खंत तशीच उल्ली.

आज ते गजालीची पर्थून याद जाली. हांवें गाजराचें लोणचें खालें ना. आनी कांय उलयलोंय ना.

न्हय त्या दिसांत आंब्याच्या तेंगशेर धोलतल्या आंबलेच्या तोरांच्या घोसान म्हाका अस्वस्थ केल्लो. मर्यादांच्यो वण्टी आज म्हजेरच पिट्टळूंक लागिल्ल्यो. एके तरेचो बंदिवास हांव अणभवतालों.

सगळी सांजवेळ यंत्राबरी कामां केलीं. इतली अस्वस्थताय हालींच्या दिसांनीं केन्नाच अणभवूंक नाशिल्ली. कामांक सदांभशेन माथें माल्लें. पुण मतींत एका कोनशाक तोरांचो घोंस चाळयतालो.

रात पडली तसो कामाचो व्याप वाडलो आनी टेलिप्रिंटरची कटकट, बातम्यांची निवड हातूंत वेळ गेलो. मागीर दिसूंक लागलें कि आंबलेच्या तोरान लायिल्ली हुरहुर म्हळ्यार मृगजळाफाटली धांव आशिल्ली. एक तरेचें तें भुरगेपण. आनी दिसलें सगळो वेळ हांवें नस्ते येवजणेंत वगडायिल्लो. मनाचेर ओगीच ताण घाल्लो. संवसाराच्या फाटीर जळामळाक घडटल्या घडामोडींत आतां मन रमिल्लें. प्रकृतीचेर जैत जोडपी मनशालो हावेस आनी मनशांचें जिवित कितलें अशाश्वत, हाजें दर्शन घडोवपी खबरो...

...फ्रान्सान केल्लो आण्विक बॉंबाचो स्फोट, विमानाचो अपघात,

भूकंप आनी वादळ हाणीं मनीस आनी सभ्यताय ना नपश्चात करूंक घेतिल्लें उग्र रूप, अंतराळांत मनशान केल्ले विक्रम, आनी आसामांत मणभर भाताक भुरगीं विकिल्ल्याच्यो खबरो... ह्या संवसारांत आंबले तोरांचेर विचार करपांत दीस वगडावप म्हळ्यार पिशेपण न्हय जाल्यार दुसरें कितें ?

निमाणे पेज-प्रुफ आयलें आनी कंपोजिटर घरा वचूंक गेले. फार्म मशिनाचेर चडलो. हांव सकल आयलों. चंद्र केन्ना अस्ताक गेल्लो. घडयाळींत तीन वरां जाल्लीं. सगळो वाठार न्हिदेंत आशिल्लो. न्हिदेच्या भाराचो वेळ सोंपून गेल्लो. आनी कामाचो भारय तकलेर नाशिल्लो. एके तरेचें मेकळेपण हांवें अणभवलें. आपणांक कोण पळेना अशी खात्री जातकच मनीस अणभवता तसलें मेकळेपण. दीसभर चडयिल्लें रुपडें काडून उडयलें. आतां खऱ्या अर्थान हांव मेकळो अ।शिल्लों. म्हजें म्हाकाच दिसलें आतां सोंपिल्लें भुरगेपण पर्थून अवतरलां. मनांत आयलें, एक फातोर घेवन तीं तोरां पाडचीं ... पुण भोंवतणीं नदर गेली, आनी दिसलें कोणाच्या घराचेर चुकून माकून पडत जाल्यार सगळो वाडो जागो जातलो. मनाक आवरून घेतलें.... तरीं आंब्यार चडप कठीण न्हय. नदरेन खांदयांचो थाव घेतलो. आंबलेचो घोंस अजूनय थंय आसलो. म्हज्या दोळ्यांत न्हीद नासली. आसली जाग तेंगशेर धोलतल्या पांचव्या तोरांची.

नदर तोरांचेर थिरावली. दीसभर अणभविल्ली अस्वस्थता काळजांत दाटून आयली. अतृप्तीची भावना पिडूंक लागली. हांव बेभान जालों....आनी जेन्ना भानार आयलों तेन्ना आंब्या मुळांत पाविल्लों.

पायांतले बूट काडले, पँटाचे दोनय पांय धोंपरामेरेन कवळून घेतले, आनी वैर चडपाचे तयारेन दोनय हात आंब्याच्या धडाक घल्ले ... आंगांतली शक्तच सोंपल्या अशें म्हाका दिसलें. हात

थिरावले, आनी पांयय सुयेल्लेभशेन जाले. अर्धांगवायूची अवस्था खीणभर अणभवली.

पुण मनाचो निर्धार बदललो ना. सगळी शक्त एकवटावन हांव वैर चडलों. खांदी हालली. पानां सळसळ्ळीं. आनी अचकीत म्हज्या तोंडार बॅटरीचो झोत पडलो.

मागीर आवाज आयलो–‘ कोण थंय ?’

रातीच्या वेळार पहारो दिवपी पुलीस मार्गार उबो आशिल्लो. हांव थंड जालों. सुरसुरीत सकल देंवलों. दोनय हातांचीं मनगटां सोडून घेतलीं. बुटांत पांय घालतां आसतना बॅटरीच्या उजवाडांत पुलीसान म्हाका पळोवन घेतलो.

‘ तुमी ?... आनी ह्या वेळार ?... कितें जालें ?’

तागेल्या प्रस्नाक जाप दिवपाचें नितीक वा शरिरीक बळ म्हज्यांत नासलें. मान सकल घालून हांव चलत रावलों.



# फातरी पोंदची आंकरी

रेशनाच्या दुकानामुखार एक लांबलचक रांग. वताचो ताप चुकोवपाखातीर हातांतली पोती वयर धरून तिजी सावळी माथ्यार घेवन तो अर्द वर उबो आसा. ताजो नंबर पयल्या पन्नासांत ना. पुण रांग सोडली जाल्यार आजय उपाशीं रावचें पडटलें हाजी ताका भिरांत दिसता.

ताज्या फाटल्यान आशिल्ल्या मनशान मदींच ताका हात लावन हटकिलो. ताणे फाट फिरायली. एक अनोळखी मनीस. जाण्टे पिरायेचो. ताजेवरीच पोती हातांत घेवन उबो आसा.

'हांव वळखलों ना.' ताणें अडेचो हांसो तोंडार फुलोवन म्हळें.

'हांव तुका वळखतां. तूं श्रीनिवास न्हय ?'

'हय. तुमचें नांव ?'

'म्हजी वळख सोड. हांव सादो पसरकार. सध्या पसऱ्यार ना व्यापार. देखून हो पळे कीलभर भड्डया तांदळांखातीर वताच्या कडार हांगा उबो रावलां. तुजी गजाल वेगळी. तूं स्वातंत्र्य सैनिक.'

'पुण हांवय तांदळांखातीरच लायनींत रावलां.'

'जाणां हांव. हांव तेचखातीर चुरचुरलों. स्वातंत्र्य मेळट-कच आमी वाऱ्यार पडले ते पडले. पुण तुज्या सारकिल्या स्वातंत्र्य सैनिकाचीय ही दशा मरे ?'

'तसो भेद कसो करूं येत ?'

‘ करीनात भेद ? तुका फाटीं ताम्रपत्र दिलें ना. कितल्याशाच जाणांक रेफॉर्म मेळना ? ’

तो ओगी रावलो.

‘ आतां मोनो कित्याक जालो रे ? जाय आशिल्लें न्हय तुमकां स्वातंत्र्य ? आमकां बेकार करून भायल्यांक हाडून आमच्या माथ्यार मारूंक मरे ? ’

ह्या मनशाले तावडेंतल्यान केन्ना काय सुटल्यार पुरो जालें श्रीनिवासाक. पुण करतलो कितें ? लायन सोडल्यार रेशन मेळचें ना. रेशन सोडल्यार आयज शिताचें आदन रान्नीचेर चडचें ना. तो ओग्गी उबो रावलो.

पुण ताका चड वेळ उबो रावचें पडलें ना. पांचच मिनटां भितर रांग सोडून लोक वचूंक लागलो.

‘ जालें कितें ? ’ श्रीनिवासान एकल्याक विचाल्लें.

‘ तांदूळ सोंपले. ’

‘ ह्याच खातीर जाय आशिल्लें न्हय स्वातंत्र्य ? ’ व्हदळच्या मनशान ताका प्रस्न केलो.

‘ तांदूळ फाटल्या दारान पावंक जाय थंय पावलो आसतलो. ’ दुसऱ्यान म्हळें.

‘ विचारपी कोणच ना ? ’ तिसऱ्यालो प्रस्न.

‘ मिनिस्टराक विचार. ’

‘ पेपराक पत्र बरय. ’

‘ कांय उपेग ना. ’ व्हदळचो मनीस पर्थून म्हणूंक लागलो, ‘ तांची कात सामकी मानग्याची... ’

श्रीनिवासाच्यान थंय रावं नज जालें. ताणें ताकतिकेन पावलां उबाल्लीं आनी तो घरा परतूंक लागलो.

वाट चलता आसतना ताका ओगीच हे सगळे आबतिकाये-खातीर लोक आपणांक जापसालदार धरतात अशें दिसतालें. मार्गार कोणय आपणांक पळेतना ताका दिसलो जाल्यार तो आपणांक एकाद्रो प्रस्न विचारीत अशी ताका भिरांत दिसूंक लागली. संवकळीचें एकाद्रे तोंड ताका पळोवन हांसलें जाल्यार तो मनीस आपणांक हिणायता, आपले रिकामे पोतयेक हांसता अशें ताका दिसतालें...

तो जाणा आसलो, स्वातंत्र्य म्हळ्यार समृद्धी न्हय; समृद्धी मेळपाचें तें एक साधन... जेवण–खाण आनी पैसो हांची तुळणा स्वातंत्र्याकडेन करूं नज... पुण ह्या लोकांक हें कशें सांगतलो? आनी तांचो तरी गुन्यांव कितें?

दारांतच उबी आशिल्ली बायल तागेल्या हातांतली रिकामी पोती पळोवन मोन्यांनी भितर गेली. ताका राग आयलो. तीय आपणांक हिणायता अशें ताका दिसलें.

घरांत वचून तो शेंदरी पातळावन आड पडलो. भितल्ल्यान भायर येवन बायलेन ताका विचाल्लें,

‘जीवाक बरें दिसना?’

‘पुरो जालां.’

‘ह्या वताच्या तळतळाटांत अशेंच जाता. इल्लें सरबत करूं?’

‘नाका.’

‘आजय तांदूळ मेळ्ळे नात?’

‘ना. सोंपले.’

‘कांय नज. मुगांची उसळी करतां.’

‘रवी शाळेंतल्यान आयलो?’

‘ना अजून. येतलो आतां.?’

‘तो शीत मागचो ना?’

‘ ना. तसो ताका समज आसा. ’

श्रीनिवासाल्या दोळ्यांतल्यान एक दुक गळ्ळें. ताणें तें लिपयलें.

बायल भितर गेली.

मेजार तागेलें ताम्रपत्र आशिल्लें. कोणेशें आपलें ताम्रपत्र घाण दवरिल्ल्याची खबर फाटीं ताणें नेमाळ्यांत वाचिल्ली. खीणभर ताका दिसलें कि आपुणय हेरांसारकोच्च. पुण हें ताम्रपत्र आपणांक हेरांपसून वेगळायता. तें भायर उडोवचें. विचारासरशीं तो उठलो. पुण खीणभरयांत ताचो विचार बदल्लो. तो पर्थून शेंदरेर न्हिदलो.

न्हिदिल्लेकडेन ताजो दोळो लागलो. ताका जाग आयली तेन्ना तागेली ल्हान च्ली रडटाली आनी ताजी बायल ते च्लयेक बोंब दिताली.

‘ जिन्याचें उदक घेना पळे हें. ’ तिणें म्हळें.

‘ दुधाचो डबो मेळना. म्हशीचें दूध घालपाची संवंय करूंक जाय. ’

‘ घालून पळयलें. तें ताका पचना. ’

श्रीनिवास उठलो. मागीलदारांत वचून ताणे हातपांय धुले आनी रान्नीकडेन वचून पाटार बसलो. बायलेन ताटांत वाडिल्ली उसळी ताणें तोंडांत घाली आनी तांब्योभर उदक गटगटीत पियेवन तो उठलो.

पर्थून येवन न्हिदलो. भितल्लीं कामां सोंपोवन बायल भायर आयली.

‘ शीला न्हिदलें ? ’ ताणें विचाल्लें.

‘ हय. ’

‘ ताका खंयच्यान तरी दुधाचो डबो हाडूंक जाय. बाजारांत ब्लॅक मेळटा खंय. ’

ताणें आंग काडलें.

‘ रवी खंय गेला ? ’

‘ भायलेवटच्यान खेळटा आसतलो. ’

‘ वासंती, हांगा लागीं यो. सांगता. ’

वासंतीन दार आड केलें आनी शेंदरेच्या पोंतार ताज्या पायां-कडेन बसलें.

‘ हांगा यो. ’ ताणें लागीं आपयलें आनी ताजो हात आपल्या हातांत घेतलो.

‘ म्हज्या हड्ड्यार कान दवर आनी पळय भितर कितलो उजो धगधगता तो. ’

‘ हांव नकळं ? ’

‘ हांवें तुज्या आयुश्याची वाट लायली अशें तुका दिसना ? ’

वासंतीन ताच्या तोंडार हात दवल्लो.

पयलीं श्रीनिवासाले दोळे दुकांनी भरून आयले. पुण हे फावटी ताणें तीं लिपयलीं नात. वासंतीन आपल्या पदरान तीं पुसलीं...

श्रीनिवासाले दोळे चडच पाझल्ले. ताणें वासंतील्या दोनय भुजांक धरून ताजी तकली आपले छातयेर दवल्ली आनी ती थापटीत म्हळें, ‘ तुजेर हांवें व्हड अन्याय केला वासंती. राजाली राणी जावपाइतलें सोबीत तूं. आज म्हजे गरिबीच्या जीर्ण वस्त्राक कपयो मारपाचें तुज्या वांट्याक आयलां... ’

तुमच्या रूपान म्हाका विश्वाचें धन मेळ्ळां. तुमी ओगीच कश्टी जातात. ’

'ना वासंती. तूं तशें म्हण्टा हें तुजें व्हडपण. पुण म्हज्या सारकिल्या मनशान तत्वाक लागून वेव्हार सोडूंक फावना आशिल्लो.'

'तुमकां खऱ्यांनीच स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेतिल्ल्याचो पश्चात्ताप जाता ?'

'खरें सांगूं तुका वासंती, तसो पश्चात्ताप म्हाका केन्नाच जालो ना वा आजय जायना. उरफाटें हांव म्हज्या कर्तव्याक जागलों म्हणपाची धन्यताय हांव सदाच अणभवीत आयला. पुण लोक उलयतात तें आयकतकच मन गुन्यांवकारांवरी जाता. लोकाचोय गुन्यांव कसलो ? बाजारांत कांयच मेळना...असल्या वेळार दिसता कि तरनाटे पिरायेचेर हांवें चळवळींत पडचे बदला व्यापारांत लक्ष घाल्लें जाल्यार आज हातांत चार पैशे घोळपाचे !....

'पुण पैशे हें सर्वस्व तुका ?'

'न्हय, पुण तुजे सारकिली बायल, रवी सारको गुणी भुरगो आनी ल्हान शीला. हांकां पोसपाची तांक म्हज्यांत ना ही खंत मात म्हाका एक सारकी पोखरता.'

'हेय दीस वतले... आतांतरी तुमकां पेन्शन येता. ह्या आदीं आमी कितले त्रास काडले ?'

'पेन्शनाच्या दोनशें रुपयाफाटल्यान कितल्या लोकांची हाय आसत अशें म्हाका येवजता ! खरें सांगतां तुका, ज्याणी जल्म दिलो, शिक्षण दिलें, ल्हानाचो व्हड केलो त्या आवय-बापायलो हांव एकलोच भुरगो. तांच्यो सगळ्यो उमेदी माडोवन ताकां जाण्टेपणांत एकोडीं सोडून चळवळींत उडी घेतना म्हजें मन इल्लेंय कचल्लें ना. पुर्तुगेज पुलीसेक तोंड दिवंक तें केन्नाच अनमनलें ना. तांचो छळ सोसतना म्हजें काळीज केन्नाच रडलें ना. पुण आज तुजे आनी भुरग्यांचे हाल म्हज्यान पळोवं नजत, लोकांक तोंड दिवं नज !'

‘ लोकाक तुमी नागयल्यात तर ? ’

‘ ना. पुण तांकां दिसता, आज जें सगळें घडटा - ही म्हारगाय, हो दुकळ हें सगळें स्वातंत्र्याक लागूनच. ताणीं बाब-ड्यांनीं स्वातंत्र्याआदीं अशें भोगलें नासत.... ’

‘ म्हणून स्वातंत्र्य वायट जाता ? ’

‘ हें तुका समजता वासंती, पुण लोकाक समजना. आनी हें स्वातंत्र्य हाडलें तें स्वातंत्र्य सैनिकांनी अशें मानून ते आज स्वातंत्र्य सैनिकांक हिणयतात.

‘ तुमकां हांव सांगू, तुमी संवसाराक विसरात. लग्नाआदीं तुमी म्हज्या दोळ्यांत संवसार पळेयताले. तसो पर्थून पळयात. ’

‘ मोगाचे उमेदीचे दीस सोंपले. आतां वेव्हारांतल्या रुपया-पैशांनी हिशेब करचो पडटा. ’

‘ तुमकां हांगा सुख ना जाल्यार आमी गोंय सोडूंया. भायर खंयय वचून रावूंया. थंय आमकां कोण वळखुचो ना. ’

श्रीनिवासाक ही कल्पना मानवता. तो मात्सो सुखावता. आपले दोनूय हात वासंतीभोंवतणी आंवळून घेता आनी ल्हवूच तिजे केंस चुमता.

‘ म्हाका कितें दिसता सांगूं ? ’ मदीच वासंती विचारता.

सपनांत उलयिल्ले सारकिलो तो आवाज आयकून श्रीनिवास आपलें दुख पुराय विसरता.

‘ कितें ? ’

‘ संवसाराच्या अंतामेरेन आमी अशींच रावचीं... ’

श्रीनिवास हांसता. भायलेवटेन रवीलो आवाज येता. तेसरशीं कांचवेवन वासंती उठटा आनी ताजी निबर वेंग सोडोवपाचो यत्न करता.

‘आयलो तर गो संवसाराचो अंत ?’ श्रीनिवास वेंग सदळ करीत विचारता आनी तेच अवस्थेंत वासंतीच्या गालाचें एक चुंबन घेता. वासंती लजेन तांबडें गुंज जाता आनी श्रीनिवास आपली व्यथा विसरून हांसता.

त्या दिसा श्रीनिवास कामाक वचना. दनपारचो न्हिदून उठ-तकच तो वासंतीक सांगता, ‘आयज सांजवेळां आमी पासयेक या. भायरूच जेवूया.’

सांजच्या वेळार पोरसांत बांयचेकडेन गेल्लो आसतना श्रीनिवास येवजिता– ही बांय, हें पोरसूं, तो म्हशिंग, आंबाडो, काज, करमल... हें सगळें आपणांक चुकतलें. दसणीचें फूल आनी रातराणयेचो परमळ ह्याफुडें घडये केन्नाच मेळचो ना. तो एक शेंवतें अचळय खुट्टा– वासंतीखातीर. त्याच वेळार तागेली नदर ओलीं उंबळपाचे फातरीचेर वता. थंय फापरीपोंदा आशिल्ले खांचींत केन्ना एक चिंचारो पडिल्लो देव जाणा. उदकाची ओलसाण मेळिल्ल्यान तो किल्लल्लो आनी ते फातरीक सांबाळीत सांबाळीत वताच्या किर्णांत खेळूंक ताजी आंकरी वयर सरताली. इतले अड-चणींतल्यान जीण जगपाखातीर त्या चिंचेच्या रोप्याली धडपड पळोवन ताका अजाप दिसलें. ताज्या मनांत आयलें तो रोपो हुमटावचो आनी वेगळ्या जाग्यार रोंवचो. केदोवेळ त्या रोप्याकडे तो पळेत आशिल्लो देव जाणा ! वासंती लागीं आयलें तेन्ना तो भानार आयलो.

‘तुमकां जालां कितें ?’ वासंतीन ताका विचाल्लें.

श्रीनिवासान वासंतीक तो रोपो दाखयलो. ‘ताजी धडपड पळेतकच म्हाका म्हजीच लज दिसूंक लागल्या. एके जिणेची आसक्ती तरी पळय.’

‘उठात... कवीभशेन येवजीत बसल्यार तुमकां पिशें लागतलें.’

‘ वासंती तो रोपो हुमटावन मेकळ्या जाग्यार रोवूया. ’

‘ नाका... ताजें मूळ तुटलें जाल्यार तो दुसरे भूंयेंत मूळ घेवचो ना. ’ वासंतीन जाप दिली.

ती जाप आयकना फुडें श्रीनिवास चकाचूर जालो. एक व्हड सत्य ताका होलमल्लें. तो कांय एक उलयलो ना. वासंती फाटो-फाट घरांत आयलो.

त्या दिसाची श्रीनिवासाली उमेद पळोवन वासंतीक अजाप दिसलें. मोगांत पडिल्लो नवो तरनाटो भुल्लुसलेवरी वागता तसो तो वागलो. मदींच तो वासंतीक खेट्टून चलतालो, मदींच ताजो हात आपल्या हातांत घेतालो आनी रस्त्याचेर मात्सो एकांत मेळ्ळो जाल्यार आपलो हात ताज्या भुजार दवरून ताका ल्हवूच वेंगेंत घेतालो...लग्नाक धा वर्सां जाल्लीं. पुण लग्नाआदीं लेगीत श्रीनिवास इतल्या मेकळेपणान वागिल्लो वासंतीन पळोवंक नाशिल्लो.

जेवन–खावन तीं घरा परतलीं तेन्ना बरीच रात्र जाल्ली. श्रीनिवास भायरच आंगणांत बसलो. वासंती भितर भुरग्यांक न्हिदावंक गेलें.

मळबार सप्तर्षीकडेन पळेत पळेत श्रीनिवास येवजितालो... कालची जीण आनी फायची जीण. पयस नातूक रडटालें. पुण तो ताका अपशकून कसो दिसलो ना. रातराणयेक जाग येवंक लागिल्ली. मळबार नवीं नवीं नखेत्रां उदेवंक लागिल्लीं. पुण आज चंद्राची जाग ना... धडये उमाशेची रात आसूंये.

‘ येतात मू भितर ? ’ दारांत येवन वासंतीन म्हळें, ‘ रात जाली. ’

‘ ना . . . तूंय हांगा यो, दाखयतां. ’

‘ आज काव्य बी येवजलां काय कितें ? ’

‘ तुका जाय तें म्हण. पुण म्हजें मन आतां ल्हव जालां. स्वातंत्र्य सैनिकाक दूशण दिवपी लोकाची म्हाका पर्वा ना आनी लटके गिरेस्तकायेचोय म्हाका हावेस ना . . . ’

‘ गोंय सोडून वचपाचें थारायनाफुडें तुमकां पांजरो सोडटल्या किरावरी खोस जाली दिसता ? ’

‘ ना वासंती. आनी हांव गोंय सोडचों ना. ’

‘ इतले बेगीन निर्णय बदल्लो ? ’

‘ तो व्हदळ बदल्लेलो. चिंचेच्या रोप्याभशेन म्हजीं पाळां-मुळां हेच भूंयेंत किल्लल्यांत. तीं हुमटायलीं जाल्यार हेर कडेन तीं तग धरचीं नात. देखून समाज्ञीक, आर्थिक आनी हेर फातरी माथ्यार आतनाय तातूंतल्यान वाट काडटलों हांव . . . ’

वासंती तोंड आं करून ताजेकडेन पळेत रावलें. ताका कितें सांगचें हें तें येदजितालें. पुण श्रीनिवासान ताका येवजूंक लेगीत दिना आसतना ओडून सकल बसयलें.



# चेंबू

विमानतळाचेर बारा वरांचेरच पावंक जाय आशिलें. पुण घराकडच्यान भायर सरूकच म्हाका वेळ जालो. ताकतिकेन हांव सामान घेवन दारांत उबे आशिल्ले टॅक्सींत दवरूंक लागलों त्या वेळार आईन हाडून एक म्हेळी पोती दिली.

'हें आनी कितें?' हांवें तिका विचाल्लें.

'पणसाचीं भिकणां.'

पोती आदींच म्हेळी आनी तिका मातयेचीं खतां पडिल्लीं. ती हातांत घेवन विमानात वचपासारकी नासली. म्हणून हांवें म्हळें, 'तीं आसूं. भिकणां आनी खंय व्हरूं?'

'आरे तीं चेंबूक व्हरून दी. ताका भिकणां खूब आवडटात. दिल्लीक ताका तीं खंय मेळूंक आयल्यांत? ताजेखातीर मुजरत हांवें माती लावन तीं सांबाळून दवरिल्लीं.'

'हो चेंबू आनी कोण?' अजापून हांवें विचाल्लें.

'चेंबूकय विसल्लो मरे!' आनी आई हांसली. 'आरे, मावशीबायले हेमाक तूंच भुरगेपणांत चेंबू म्हण्टालो!'

खिणभरयांत याद जागी जाली आनी हांवय हांसलों. जाल्यारय वेळ जातालो म्हणून तशीच पोती घेवन टॅक्सींत बसलों.

खूब वर्सांनी हेमाची याद आयली. धांवते टॅक्सींत बशिल्ले-

कडेन हांव पोन्न्यो यादी उस्तूंक लागलों. कितले दीस उलगले पुण त्यो यादी मनाच्या कोनशाक सपनां कशीं अजून उल्ल्यात. मावशी-बाय, काका, कमल आनी ताजी भयण हेमा.

भुरगेपणांत आमी शेजराच रावतालीं. कमल आमचेपरस व्हडलें. तेन्ना तें शाळेंत वतालें. आनी घरा येतकच सुंदर पदां म्हण्टालें. आमकां तें केन्नाच आंगणांत खेळूंक दिना आसलें. हांव आनी हेमा तेन्ना शाळेंत लेगीत वचनाशिल्लीं. फुडें आमी सांगातान शाळेंत वचूं लागलीं. तागेल्या बोटव्यांत भाजिल्लीं हुनहुनीत मसमीचीं भिकणां नाजाल्यार भाजिल्ले चिचारे आसताले आनी म्हज्या बोटव्यांत उकडिल्लीं पणसाचीं भिकणां. म्हाका चिचारे आवडटाले आनी हेमाक पणसाचीं भिकणां. शाळेंत पावतकच हांव म्हजो बोटवो ताज्या म्हऱ्यांत दवरतालों आनी ताजो बोटवो म्हज्या म्हऱ्यांत घेतालों... यादीसरशीं हांसो आयलो.

विमानतळाचेर ती पोती हातांत घेवन देंवताना म्हाका लज दिसली; पुण ती पोती कशीच विसरूंक पावना म्हणपाची जतनायय हांव घेवंक लागलों. थंय कांय वळखीचे लोक मेळ्ळे आनी हेमाची याद कुशीक पडली.

विमान सुटकच मात पायांकडेन दवरिल्ले पोतयेक लागून परत हेमाची याद आयली. आमी सांगाताच ल्हानाचीं व्हड जालीं. हेमाक दुसरी मैत्रीण नासली आनी म्हाका नासलो मित्र. मावशीबाय आनी आई, बाबा आनी काका हांची इष्टागतय बरी आशिल्ली, कमल नाजाल्यार एकमुळें. हांव आनी हेमा सांगातान खेळ्ळीं, सांगातान भोंवलीं. आपालिपानी खेळतना कांजिणीन ' चल घोवाक सोदी ' म्हणून हेमाचे दोळे सोडले जाल्यार तें धांवत येवन म्हाकाच धरतालें. दीस अशे वाऱ्यावेल्या कापसाभशेन उडत वता आसतना मदींच एक दीस काकाची बदली जाली.

हेमानच येवन ही खबर म्हाका दिली. ताणें म्हणिल्लें, ' जयंत आमी आतां दिल्लीक वतलीं. थंय हांव लाल किल्लो पळयतलें, कुतुबमिनार पळयतलें... '

म्हाका घट याद आसा ही खबर आयकून म्हाका खूब वायट दिशिल्लें. हांव दोन दीस हेमाकडेन उलोवंक नाशिल्लों.

तीं दिल्लीक वचूंक भायर सल्लीं तेन्ना हांवें हेमाक निमाणे खेपेक पळयलें. वता आस्तना मावशीबायन दोळयांत दुकां काडिल्लीं. पुण हेमा उमेदींत आशिल्लें. म्हाका मात धुसमटिल्लेवरी जाल्लें. आनी हांव दारांतलो भितर आयिल्लों. पुण मावशीबायनच हेमाक म्हजेसरी धाडलें. तें आयलें आनी म्हाका हात लावन ताणें सांगलें, ' जयंत, येतां. ' ताजो आवाज घोगरो जाल्लो. ताज्या दोळयांत दुकां आयिल्लीं आसुये अशें म्हाका दिसलें. उलोंवक गेल्यार म्हाकाय रडूंक येवंये अशी भिरांत दिसली. आता हांवें तकली फिरायली.

उपरांत हांव हेमाक सामको विसरून गेलों. फुडलें आयुष्य चडशें हॉस्टेलांतच गेलें...कितलीं वर्सां उलगलीं. कितले नवे इष्ट जोडले, कितले नवे गांव भोंवलों पुण हेमाची केन्नाच याद जालीना.

आतां दिल्लीक इंटव्ह्यूक वतां. बाबान सांगलां मावशीबायगेरच राव म्हणून. बोर बागेंत तांचो बंगलो आसा. पत्तो हांवें बरोवन घेतला.

दिल्लीक विमान देंवलें तेन्ना सांजवेळ जाल्ली. विमानतळा-वेल्यान टॅक्सी करूनच बोर बागेंत गेलों. टॅक्सीच्या सरदारजीन पत्तो सोदून काडलो आनी एका दुर्गाभितर घेवन घराकडेन टॅक्सी उबी करून म्हळें, ' हेंच तें घर. ' हांव देंवलों. सामान देवोवन घेतलें. भिकणांची पोती म्हज्या हातांतच आशिल्ली. दाराचेर नांवाची पाटी आशिल्ली. टॅक्सीचे पैसे दिवन हांवें दारावेली बेल

वाजयली. काकानच दार काडलें. धवें पुडवें आनी धवेंफुल्ल खोमीस. कॆस पिकल्यात. इतलीं वर्सां जालीं पुण वळखूक अडचण पडलीना.

‘आगे जयंत आयलो गे.’ ताणें भितर साद घालो आनी घरांत कोणाकसो उलो करून म्हजें सामान भितर हाडूंक सांगलें.

मावशीबाय भायर आयली. ती खुबच जाण्टी दिसली आनी आंगय सुटिल्लें.

‘आब्बा, कितल्या वर्सांनी याद जाली बाबा आनी केदो व्हडलो जालो रे तूं जयंत.’ तिणे म्हजे फाटीर हात भोंवडायलो.

भितर येवन बसलों. तेन्ना म्हाका भोंवन भोंवन अजाप दिसलें तें एके गजालीचें. काका आनी मावशीबाय म्हाका वळखलीं कशीं? पुण खबर घेतां घेतां उलगडो जालो. बाबान काकाक पयलींच पत्र बरयिल्लें.

मावशीबाय मनशाकणकणीं नांव घेवन खबर घेताली आनी हांव जाब दितालों. मदींच तिणें हेमाक उलो माल्लो आनी म्हळें, ‘जयंतालें सामान फाटले कुडींत व्हरूंक लाय.’

काका भितर गेलो आनी मावशीबाय रानचे कुडींत. ‘बस हां, च्या हाडटां.’ वतांवतां तिणे म्हळें.

आतां भायले कुडींत सोफाचेर हांव एकलोच उल्लों. वण्टी-चेर एक कॅलेंडर आशिल्लें आनीक दुसरे वण्टीचेर देवाचें पांयजेल. जनेलांतल्यान पोरसूं दिसतालें आनी पोरसांतलीं वेगवेगळ्या रंगाचीं फुलां.

च्या हाडून मावशीबायनच दिली. कुडीच्या दारांत पडद्या-आड एक आकृती दिसली. निळी साडी, घडये हेमाच आसूंये. पुण तें भायर आयलेंना. भुरगेपणांतलें हेमा वेगळेंच आसलें.

ही सामकीच लजे व्हंकल.

मावशीबायनच ताका आपयलें तेन्नां ताणें तकली भितर काडली आनी पायांच्या आंगठ्यान शिमिटाची जमीन कोरांतिल्ले भशेन थंय उबें रावलें. ताज्या तोणार सादो हांसो लेगीत नासलो. एका अनोळखी मनशामुखार उबें रावचें तशेंच रावलें.

हांवेंच विचाल्लें, ' म्हाका वळखता हेमा ?'

एकदम भानार आयिल्लेभशेन ताणें पदर सारको केलो आनी केंसांची फाती फुडल्यान घेवन ती खिणभरयांत विसकटावन तें परत बांदूंक लागलें आनी तोंडावेलो भाव बदलनास्तना तकली हालोवन ' ना ' म्हळें.

म्हाका भुरगेपणातल्या हेमाची याद जाली. तेंय अशेंच तकली हालयतालें. पुण ती हालयतना हांसतालें. हेमा हांसलें ना. दोन पावलां मुखार सरून ताणें च्याचें रिकामें कोप उबाल्लें आनी तें भितर गेलें.

' चेंबू ' हीं उतरां म्हजे जिभेर आयिल्लीं. पुण हांव उलयलों ना. चेंबू वेगळेंच मेकळ्या मनाचें, हांसत्या तोंडाचें.

काकान येवन म्हाका म्हजी कुड दाखयली. आनी न्हावन घेवंक सांगलें. न्हाणयेंत तुवालो, शाबू सगळें आशिल्लें. न्हातां न्हातां हांव येवजितालों. वर्सां मनशाक कशीं बदलून उडयतात पळय. मनशाक मनीस वळखना. ताजो रंग, ताजें रूप बदलता आनी सभाव लेगीत.

न्हावन भायर आयलों. तेन्ना काका भायर सरतालो. ताणें म्हाका म्हळें, ' आयचो दीस सुशेग घे. हांव मात्सो वचून येतां.'

हांव भायर येवन एक पुस्तक वाचीत सोफार बसलों. इतले म्हणसर मावशीबायय हातांत पोती घेवन भायर सल्ली. ' मात्शी

बाजारांत वचून येतां ', तिणे म्हळें.

मावशीबाय वतकच भिकणांच्या पोतयेची याद जाली. उठून कुडीत येतना दारांतल्या पडद्याआड उबें आशिल्ल्या हेमाचेर नदर पडली.

' हेमा, आईन चेंबू खातीर कितें धाडलां. म्हजें सामान खंय दवल्लां तुवें ?'

' फाटले कुडींत ' इतलीच तुटक जाप हेमान दिली.

' चल यो दितां हांव तुजेकडेन. '

हांव कुडींत आयलों. म्हगेलें सगलें सामान सारकें लावून दवरिल्लें. फाटल्यान येतले हेमान कुडींतलो दिवो पेटयलो. मेजापोंदाच ती म्हेळी पोती आशिल्ली. ती उबारून हांवें हेमाच्या हातांत दिली. ' हेंच धाडलां. '

पोती हातांत घेवन हेमा भितर वचूंक लागलें. तोंडार आदलोच निर्विकार भाव. ताजें तें गंभीर तोंड म्हज्यान पळोंवक नज जालें.

' अजुनूय तुका पणसार्चीं भिकणां आवडटात ?' हांसत हावें विचाल्लें.

तें भायर पाविल्लें. थांबलें आनी ताणें म्हळें, ' ना ' आनी आपुण जावन फुडें म्हळें, ' गॅसार शीत दवरून आई गेल्या. हांव वचून पळेतां. '

एकलोच रावपाची संवय जाल्ली. खाटीर न्हिदून हांव पुस्तक वाचूंक लागलों. उकत्या जनेलांतल्यान निकतेच फुलूंक लागिल्ले रातराणयेचो परजळ येतालो. पुस्तकांत मन लागलेंना म्हणून फुडल्या दारांतल्यान भायर सरून पोरसांत आयलों. थंय आंगणांत हेमा बशिल्लें. मनांत आयलें ल्हवूच फाटल्यान वचून

ताजे दोळे धरचे. पुण येवजिलें आतां तें चेंबू उरूंक ना. मळबार चंद्रीम उदेल्लो आनी मार्गावेल्या दिव्याचो उजवाड चान्न्यांत भरशेल्लो.

हांवे म्हऱ्यांत वचून उलो माल्लो, 'हेमा. हेमान तकली फिरायली ना. तशेंच बसून रावलें. 'तुमची बाग खरेंच सोबीत.' हांवें म्हळें. जाब दीनास्तनाच हेमा उठून उबें रावलें.

तें चान्न्याचे पसयेंत ताजे नदरेक हांवें नदर दिवपाचो यत्न केलो. पुण ताजी नदर जमनीर थिरावली. ओगीच म्हाका दिसलें ताज्या दोळ्यांच्या कडांनी दुकांचीं थिकां लिकलिकतालीं.

'म्हज्यान जाल्लें जाल्यार तुमचें हें घरच उबारून हांव गोंयांत व्हरतलों आशिल्लों' हांवें म्हळें.

तें हांसलें काय ताणें उस्वास सोडलो तें हांव नकळ. पुण दुसऱ्याच खिणाक तें उठून भितर गेलें.

मावशीबाय आनी काका वांगडाच परत आयलीं. म्हाका पोरसांत पळोवन तिणे म्हळें, 'उबगण आयली तुका? आनी हेमा खंय तर?'

कोण काय उलोयलो ना.

रातीकडेन न्हीदच येना जाली. पुस्तक वाचीत बसलों. भायले घडयाळींत बारा घांटी वाजिल्ल्यो आयकल्यो तेन्ना उठून जनेलाकडेन आयलों. थंय हेमा दिसलें.

ल्हवूच उठून भायर आयलों आनी ताका उलो माल्लो, 'हेमा.' हे फावटी ताणे नदरेक नदर दिली. पुण तें हाल्लें ना. उलयलें ना.

'केन्नाच्यान बसलां?'

जाप दिली ना.

'चेंबू तूं हांसूंक विसल्लें तशें उलोवंकय विसल्लें ?'

आनी मागीर हांवें पळयलें म्हजो प्रस्न ताका झोंबलो. साड-येच्या पदरान ताणे नाक पुसलें पुण दोळ्यांतलीं दुकां पुसलीं नात.

'तूं कित्याक आयलो जयंत ?' ताणें प्रस्न केलो.

काळजाक सूय रोमची तसो हो प्रस्न म्हाका लागलो. अजापून हांव ताका पळयत उल्लों. ताणें पर्थून तो प्रस्न केलो, 'तूं कित्याक आयलो. जयंत ? कित्याक आयलो ?'

आनी मागीर आपल्या दोनय हातांमदीं म्हजो उजवो हात घेवन ताजो तळवो दुकांनी भिजिल्ल्या आपल्या गालार दवल्लो आनी म्हळें, 'तुवें येवंक जायना आशिल्लें जयंत.'

म्हजेंय काळीज दाटून आयलें. आवाज घोगरो जालो. मोठ्या प्रयासानी हांवें म्हळें, 'हेमा, हांव फाल्यां वतलों. फाल्यांच वतां.'

ताणें म्हजो हात सोडलो आनी एक व्हड सुस्कारो सोडून म्हजे खोमसाचे छातयेर आपलो गाल पुसलो आनी मागीर विंचू चाबिल्लेवरी फाटी सरून कांय एक उलयनास्तना तें भितर गेलें.

हांव केदोवेळमेरेन चान्न्याच्या आनी विजेच्या उजवाडांत विशाळ मळबाचो थाव घेत थंय उबो रावलों आनी मागीर कुडींत येवन न्हिदलों.

दुसरे दिसा सकाळींच हांव सामान घेवन भायर सरता तें पळोवन काकाक आनी मावशीबायक अजाप जालें. हांवें सांगलें, 'म्हाका एका इश्टागेर वचूंक जाय. आईन आनी बाबान सांगलें म्हणून एक रात तुमगेर रावलों.'

तांचें समाधान जालें ना. आनी निमाणे मेरेन तांचो आग्रो

आशिल्लोच. भायर सल्लों तेन्ना हेमा मुखार आयलें. माथ्यार न्हावन ओले केंस फाटीर मेकळे सोडिल्ले.

'बरें हेमा.' हांवें हांसपाचो प्रयत्न केलो.

आनी हेमाय हांसलें. आळवाऱ्या पानावेल्या उदकावरी. मोतयांचो हांसो, खिणांत बावलो. कितले वर्सांनी हांवें तो हांसो पळयलो.

भायर सरतना मनांत आयलें एकवेळ हेमाचो हात हातांत घेवचो. पूण मन धजलें ना. तेंच फुडें आयलें आनी ताणें म्हळें, 'एक गजाल सांगूं तुका जयंत ?'

तें लजेलें आनी फाटी सल्लें.

मावशीबायन घडये तागेलें मनोगत वळखल्लें आसुंये. तिणे म्हळें, 'फुडले वैशाखांत तुगेल्या चेंबूलें लग्न आसा. तूं मुजरत यो हां.'

'आं' म्हणून हांव भायर सल्लों आनी म्हजे म्हाकाच्च दिसलें, हांवें हेमाचें अभिनंदन लेगीत कशें केलें ना !



# रातीच्या धा वरांचेर

## पणजी

—आजय रात केली...

—तूं जेवलें ?

—तूं आयलेबगर हांव कशें जेवूं ?

—तुका हजार खेपो सांगलें, वेळार जेवन घे म्हणून.

—तुंवें सांगलें आनी हांवें आयकलें. पुण मन तयार जावंक नाका ?

—मन कित्याक तयार जायना ?

—तुका बायलेचें मन वळखूंक आयिल्लें जाल्यार तूं एदी रात करपाचोच न्हय.

—आगो, पुण तें म्हज्या हातांत आसलें ?

—आजय ओव्हर टायमाक बसचें पडलें ?

—ना जाल्यार कितें ? तुका दिसलें हांव सिनेमाक गेल्लों म्हणून ?

—देव जाणा ! सात वरांचेर तुज्या ऑफीसांत फोन केल्लो तेन्ना बॉसच फोनार मेळिल्लो.

—तुका कितले खेपो सांगलें ऑफीसांत फोन करूं नाका म्हणून...

—पुण आज सांजचो तूं म्हाका दोतोरागेर व्हरपाचो आशिल्लो न्हय ?

—आरेच्या ! यादच उल्ली ना.

—आतां याद कशी उरतली तुका. लग्नाक पांच वर्सां जालीं न्हय !

—खा म्हाका....ऑफीसांत बॉस आनी घराकडेन तूं.

—पुण येदो वेळ तूं खंय आशिल्लो तर ?

—तें भोगूं...एक सांग, बॉसान तुका फोनाचेर कितें सांगलें ?

—ताणें सांगलें बायलेक दोतोरागेर व्हरूंक जाय म्हणून अर्द वर पयलींच तूं ऑफीसांतल्यान भायर सरिल्लो.

—तुवें कितें म्हळें ?

—कपल म्हजें !

—आतां पीर पीर करूं नाका पळोवया. तूं जेवन घे.

—आनी तूं ?

—हांव जेवनच आयलां. तूं जेव. हांव बसतां म्हऱ्यांत.

—आसूं, म्हाका भूक ना.

—राग आयलो तुका ?

—सदांच मरतल्याक कोण रडटलो ? राग येवंक ही आजच नवीदाद घडल्या तर !

—ए ! पळे ! राग येतकच तूं सुंदर दिसता.

—जाणा हांव, ओगीच चण्या झाडार चडोवं नाका.

—हारशांत पळे.

—पळेलें ... चल तोंड बी धुतलो जाल्यार धुवन घे. म्हाका न्हिद येता.

—कितें जालें जाणा मगो ?

—तूं काणयो कित्याक बरयना ?

—काणी न्हय. खरें सांगतां. रागार जावचें ना मगो ?

—म्हज्या रागाची तुका पर्वा आसा तरी खंय ?

—आयक सांगतां...आमचो डिसौझा ना....

—कोणे पळेला ताका !

—तागेलो आज बर्थ डे. ब्रेगीन भायर सरून घरा येता आसतना वाटेरच मेळ्ळो. नाका म्हण्टा आसतना ओढून घेवन आपल्यागेर गेलो.

—मागीर व्हिस्केच्या ग्लासांत घरच्यो यादी बुडयल्यो मू ?

—आज हांवें चड घेवंक ना.

—तें कळ्ळें. चलून घरा आयला तें पळेलें हांवें...

—ओ. के. आतां राग गेलो मू ? चल जेवन घे.

—लग्ना आदीं कितें उतर दिल्लें तुवें ?

—कितें ?

—विसरप सोपें ... हाजेफुडें सोऱ्याक आफुडचो ना म्हणून म्हज्या गळ्याचो सोपुत घेतिल्लो तुवें ?

—आगो, असल्या सोपुतांनी मनशाक बाधा जाता ? तूं ओगीच भियेता.

—हांव भियेतां तें बाधा जायना म्हणून...मेल्लें जाल्यार सुटिल्लें.

—आगो, हांव सांगूंक विसल्लोंच पळे. त्या डिसौझाली भैण आज एक सुंदर साडी साडी न्हेशिल्ली. तसली तुका हाडटलों हांव.

—तिकाच घेवन हाडूंक गेल्यार जालो.

—नॉट ए बॅड आयडिया...

—म्हाका नाका तुजी साडी.

—आज तुवें झगडपाचेंच थारायलां दिसता.

—झगडून तरी कितें फायदो.

—हांव सांगूं. तूं चार दीस कुळारा वच. तूं हांगा दीसभर घरांत एकलें उरता. ताका लागून तुजे तकलेंत न्हय तें येता.

—हांव कुळारा वतकच तुका रान मेकळें. . .

—बरें बाये वचूं नाका . . . हें पळे हांगा लागीं यो, कितें सांगतां . . .

— कितें ?

—कानांत सांगतां.

—तुज्या तोंडाक येतात घाणी पयलीं . . .

—तशें जाल्यार मुद्दाम सांगतलों.

—

—

—उठ. तुका वेळ काळ कांय समजना. दिवो पेट्टा. भुरग्यांनी पळेल्यार कितें जातलें.

× × ×

## उसगांव

—तूं जेवलें ?

—कशें जेवूं ?

—भुरग्यांक तरी वाडलें मगो ?

—हय. कालच्यांतले मूठभर तांदूळ उरिल्ले. तांची पेज केली आनी मसंगाची भाजी करून वाडली.

—हो उंडो घे. भाजी उरिल्ली आसल्यार पळे.

—आनी तुका ?

—म्हाका भूक ना.

—तशें जाल्यार हांवय जेवना.

—पिशें मगो तूं ?  खऱ्यानींच म्हाका भूक ना.

—म्हज्यान म्हण.

—सोपूत घेवंक कित्याक लायता पिशा ?

—हांव जाणां, तूं उपाशीं रावतलो.

—बरें बाये. अर्द उंडो म्हाका दी.

—आज कांय जोड जाली ना.

—जाल्ली. पुण नशीबान घात केलो.

—परतून मटको खेळ्ळो ?

—नाजाल्यार आमचें जावप कशें ?  चार रुपया जोडून चौघांचो संवसार करप कसो ?

—बाळंटेराक आतां चार म्हयने जाले.  फाल्यांच्यान हांवय वावराक वतां.

—तूं अजून फाक आसा. मिनाचो धुल्ल पोटांत गेल्यार तुका टी. बी. जावं येता म्हणून दोतोरान सांगिल्लें ताजी याद ना तुका ?

—पुण उपाशीं रावलीं जाल्यार म्हाका टी. बी. जातलो आनी घडये भुरग्यांकय जातलो.

—म्हणून हांव मटक्या नंबर लायतां.

—आनी अशेभशेन सगळी जोड वगडायता. रगत आटोवन, हूम गाळून जोडिल्लो दुडू जुगारांत वगडावप हें सामकें पिशेपण.

—पुण एक दीस तरी भाग्य फळटलेंच.

—चुट्टी लागली त्या भाग्याक.  चार दीस त्रास काडूया. व्हडलो शंकर शिर्विशेक लागलो म्हणटकच बरे दीस येतले.

—पुण ताका शिकोवपाखातीर पैशे नाकात गो ?

—इतलें थंय तितलें. देवान आमकां चड भुरगीं दिल्यांत काय कितें ? सगळीं तीन.

—म्हाका सोडचीट दिवपाची तजवीज करूंक ना मगो ?

—थुमेकाल !

—मागीर आनीक भुरगीं जावचीं नात कित्याक म्हण्टा ?

—बरी याद जाली. पयर हांवें एक शिनेमा पळयिल्लो. वडामुळांत दाखयिल्लो. त्या शिनेमांत सांगलां भुरगीं कितलीं आसचीं हें मनशानच थारावपाचें म्हणून. देव भुरगीं दिता म्हणपाचें फट.

—हांव जाणां ह्यो फटाशी. आज हे देव भुरगीं दिना म्हण्टात. फाल्यां देव ना म्हण्टले. हो कोमुनिस्तांलो प्रचार.

—हो आनी कोण मिस्तीस ?

—पुण ओपेरसांव करून घेतल्यार आनीक भुरगीं जावचीं नात खंय.

—पुण लोकाल्या भुरग्यांचो हांकां हुस्को कित्याक काय म्हण्टां ? हाणीं पोसचीं पडल्यांत ? पगार वाडोवचो पडला ?

—पुण चड भुरगीं पोसपाचो भार व्हड न्हय ?

—पुण जाण्टेपणांत तींच पावतात.

—म्हाका समजना. पुण म्हाका ओपेरसांव करून घेवचें अशें दिसता.

—नाका बाये. म्हजो सोपूत तुका.

—थुमेकाल. ओगीच सोपूत कित्याक घालता ?

—हांव मटक्याक जाल्यार नंबर लायना. पुण तूं ओपेरसांव मात करून घेवं नाका आं...

—बरें...भोंगूं त्यो गजाली. रात जाली. हातपांय धुवन घे.

---पुण मात्शें लागीं यो पळोवया.

—चल! शिनेमा पळेवन इबाडल्या तुजी मत...चल भीतर!

× × ×

## मुंबय

—आजय गाडी चुकली ?

—ना.

---मागीर वेळ कित्याक ?

--सिनेमाक गेल्लों.

--कोणाबरोबर ?

—ही उलटतपासणी कित्याक ?

--तूं सिनेमाक फोल्गां मारता. हांगा म्हजो जीव कासावीस.

—आतां भुरगें न्हय तूं!

--भुरग्यालें तरी बरें. ताका हुस्को नासता. मुंबैंत भायर गेल्लो मनीस परत घरा येईसर हुस्कोच आसता.

--तशें जाल्यार करीत बस हुस्को.

—तो आसाच न्हय म्हज्या वांट्याक.

—तूं जेवलें ?

—हय. तुगेलें ताट मेजार धांपून दवल्लां.

—आसूं म्हाका भूक ना.

—सिनेमाक घेवन गेल्लेबरोबर जेवला आसतलो.

—हय जेवलों. तुजें कितें म्हणणें ?

—म्हजें म्हणणें जायतें आसा. पुण आयकून घेतलो कोण? आतां आमच्या लग्नाक धा वर्सां जालीं.

—हांव रातदीस तीं मेजीत आसतां...

—आतां लक्तूबाय आनी मोग पयलींभशेन कसो उरतलो ?

—आतां चित्त भायर वचपाचें वय न्हय ?

—तुका कोणें आडायलां ?

—जीब धरना कशी तुजी ?

—फाटल्या आयतराक तूं बस - स्टॉपाचेर कोणाकडेन तरी उलोवंक राविल्लें. तो कोण काय म्हणून हांवें तुका एका उतरान विचारिल्लें ?

—तुका हांवें सांगिल्लें म्हज्या कुळारचो शेजारी म्हणून.

—शेजारी सगळ्यांक आसतात. पुण असो मोग...

—म्हाका सोंसना हें. तुका हांव जड जालां जाल्यार म्हाका विख तरी घाल.

—त्यापरस तूं च्यार दीस कुळारा कित्याक वचना ?

—म्हण्टकच तुका रान मेकळें...

—हरशीं तुका भियेतां काय कितें ? तुजे तकलेंत नस्ते दुबाव येतात न्हय. कुळारा गेल्यार तकली थंड जातली.

—हांव दुबावी. तूं मात सामको रामाचो अवतार ! न्हय ?

—आतां म्हाका न्हीद येता.

—असल्या वेळार तुका सदां न्हीद येता.

—हो न्हिदपाचोच वेळ. तूं दीसभर न्हिदता. हांव दीसभर काम करतां. देखून रातीचें म्हाका पुरो जाता.

—पयलीं तूं रातीवेळार न्हिदूंक दिना आशिल्लो.

—हय. पुण आतां आमी जाण्टीं जालीं न्हय ?

—हालीं तुवें एक फांती म्हणून हाडली ना.

—तुजेकडेन पैशे नासतात ?

—फांतयेखातीर म्हणीना. पुण मोगान एक फांती हाडची...

—फाल्यां हाडटां....

--सिनेमा पळेल्यार वर्स जालें.

--दनपारच्या 'शो'क तूं वच...

--आनी तूं मात ऑफीसांतले सुंदरीक घेवन भोंव.

--कोण सुंदरी ?

--तूं जिचेबरोबर आज सिनेमाक गेल्लो ती.

--खरें सांगूं तुका ? हांव आज सिनेमाकच वचूंक ना.

--ह्या बोटावेलो निथू त्या बोटार करूंक हुशार तूं. मागीर वेळ कित्याक जालो सांग ?

--गोंयच्यान एक मित्र आयिल्लो. ताजेबरोबर भोंवंक गेल्लों.

--मित्र काय मैत्रीण ?

--दुबावच घेतलें जाल्यार वे....म्हाका आनीक कांय विचारूं नाका...

—राग आयलो ?

--हय.

—तुका एक नवीदाद सांगूंक विसल्लें.

--

—कसली म्हणून विचार मरे ?

—बाजारांतली मगो ?

—हय.

—हांव जाणांच आसलों. सदांसारकी. कोणाली पर्स चोरयेक गेली, कोणे मोड ना म्हळी...

—तसली न्हय.

—कसली तर ?

—बाजारांत चिंचेबोटां आयल्यांत.

—ही नवीदाद जाली ? सदां येतात.

—पुण आज हांवें घेतलीं.

—खा. जावंदी थंडी.

—म्हाका खायन दिसलीं !

—कितें ?

—सोड म्हाका...

—आतां तुका कसोच सोडचो ना.

—राव. हुतहुतोच तूं. दिवो तरी पालयतां.



# रुक्मीण

पयसुल्या कपेलाची घांट वाजली.

'बारा वरां जालीं.' त्या भुरग्यान म्हळें.

हांवें घडयाळ पळयली. साडेबारा जाल्लीं.

'अजून गांव कितलो पयस आसा रे ?' हांवें ताका विचाल्लें.

'आतां सामक्को लागीं. होतो दोंगर दिसना, तो देंवतकच गांवांत पावतले.' त्या भुरग्यान जाप दिली.

हांवें दोंगर पळोवन घेतलो. चडु व्हडु न्हय. पुण तो अजून देड्दोन मैलांचेर आसलो. उप्रांत तो चडून देंवक जाय. मागीर गांव लागतलो. म्हजे पांय तर आतांच वळून आयिल्ले.

तरी आसतना ताज्या फाटोफाट हांव पावलां उबारूंक लागलों. वरभर आमी चलताले. दाट रान सोंपून कांटयो आनी बुरडु वाडिल्लें मळ आतां लागिल्लें. पुण पांयवाट बरीच घोळिल्ली दिसताली.

'तूं कारेंरीर गेल्लो जाल्यार केन्ना पावतलो आसलो.' ताणें म्हळें.

कांसरपाळे हो भुरगो म्हाका मेळिल्लो आनी गांयचे शिमेभायर वचपाची वाट तो म्हाका दाखोवंक आयिल्लो. ताका हांवें दोन रुपया दिवपाचें मान्य केल्लें. ताका दोन रुपयांची उमेद आसली. पुण म्हजी ताकीत पळोवन तो पर्थून पर्थून म्हाका कारेंरीन वचपाचें सुचयतालो.

पुण कारेरीन म्हाका वचपाचें नासलें. म्हाका पुर्तुगेज पुलिसेचो नाको चुकोवंक जाय आशिल्लो. म्हज्या कमराक बांदिल्ल्या पट्ट्यांत भरिल्लें रिवॉल्वर आनी धा हजार रुपयांच्यो नोटी आसात हें ताका हांव कशें सांगूं ?

'बाब रागार जायनाका आं.' मर्दीन्च त्या भुरग्यान म्हळें.

'राग कसलो रे ?'

'हांव विचारतां म्हणून रागार जावं नाका... तूं भांगर घेवन वता ?' त्या भुरग्यान भीत भीत म्हाका विचाल्लें.

म्हाका तागेल्या प्रस्नाचें अजाप आनी कौतुक दिसलें. रानांतली वाट चलता आसतना उलोवंक एक विशय मेळूये अशें येवजून हांवें ताका विचाल्लें, 'लोक हेवटेन भांगर घेवन वता रे ?'

'हांवें पळोवंक ना. पुण आयकलां. गोंयच्यान इंडियेंत भांगर व्हेल्यार खूब फायदो जाता म्हणून.' ताणें जाप दिली.

हांव ओगी रावलों अशें पळोवन ताणेंच प्रस्न केलो, 'इंडियेंत भांगर मेळना दिसता न्हय ?'

'इंडिया म्हळ्यार खंय रे ?' तागेल्या 'इंडिया' ह्या उतरान म्हजी देशभक्ती दुखवली.

'थंय शिमेपलतडीन.' ताणें फुडले दिशेन बोट दाखोवन जाप दिली.

'थंय भांगर मेळना काय कितें तें हांव नकळं. पुण हांव भांगर व्हरिना.' हांवें म्हळें.

'मागीर रानांतल्या मार्गान शीम कित्याक हुपता तर ?'

हांवें आंग काडलें. म्हाका ताणें उतराक धरिल्लो. पुण ताजे-कडेन पळयतकच म्हाका दिसलें कि हो सादो सरळ भुरगो. हाका खरें तें सांगूया.

‘हांव स्वातंत्र्यसैनिक. पुर्तुगेजांलो नाको चुकोवन म्हाका वचूंक जाय.

म्हजी जाप आयकून तो भुरगो चलपाचो थांबलो आनी प्रदर्शनांतली वस्त पळोवची तसो म्हाका पळयत रावलो.

‘ कितें जालें रे ? ’ हांवें ताका विचाल्लें.

‘ तूं जयहिंदीस्त ? ’ अजापून ताणें म्हाका विचाल्लें.

हांवें तकली हालयली. तसो तो हांसलो. ‘ गांधी तोपी कित्याक घाली ना ? ’ ताणें म्हाका विचाल्लें.

आतां हांव हांसलों. पुण त्या उप्रांत ताजी वागपाची तराय बदल्ली. तोय भियेत भियेत पावलां उबारूंक लागलो. आनी उलोवपाचो बंद जालो.

दोंगराचे तेंगशेर एक बोर आशिल्ली. पानाकणकणीं गच्च बोरां. ताणें पोसोभर बोरां पुंजावन म्हाका दिलीं. आनी पयसुल्या गांवांकडेन बोट दाखोवन म्हळें, ‘ थंय पळय घरां दिसतात न्हय, थंय इंडिया. तूं वच. म्हाका वोगोत जातलो.’

हांव समजुपाचें समजलों. बोल्सांत हात घालून मोड मेजली. दोन रुपया सात आणे आशिल्ले. ते पैशे ताका दिले आनी हांव दोंगर देवंक लागलों.

हांव गांवांत पावलों तेन्ना दनपारचीं साडेतीन वरां जाल्लीं. बांदें अजून पयस आसा म्हणपाचें वासपूस करतकच कळ्ळें. तानेन म्हजो ताळो सुकून गेल्लो आनी भुकेन पोट वळवळटालें. बांयचेर चार बायलो उदकाच्यो दोडी भरताल्यो. थंय वचून हांव पोशांनी थंड उदक पियेलों तशे म्हजे दांत सणसणले. बोरांनी ते आंबट जाल्ले. उदकान हांवें तोंड धुलें आनी एके बायलेक विचाल्लें,

‘ हांगा खानावळ बी आसा ? ’

‘ खानावळ ना. पुण एक बायल पैशे घेवन जेवण दिता. तो वड दिसता पळय ताजे कुशीनच रुक्मिणीलें घर. ’

हांव आतां मात्सो उमेदीन चलूंक लागलों. गोंयची शीम सोंपिल्ल्यान मनांतलो कांच गेल्लो. कोण रुक्मीण कोण जाणां. पुण ह्या वेळार चार शिताचे गोटे मेळ्ळे जाल्यार सांजमेरेन बांद्यां पावतलों. वेळ जाला. जेवण सोंपिल्लें आसत. पुण चड पैशे दिल्यार रांदूनच वाडीत.

घराच्या दारांत पावलों तेन्ना एक बायल उजव्या हातांत शेणाचो लोळो आनी दाव्या हातांत चकचकीत पितुळचो तांबयो घेवन भायर सरताली. म्हजेर नदर पडनाफुडें तिणें तांबयो जमनीर दवल्लो आनी दाव्या हातानच आपलें वयर खोयिल्लें न्हेसण सोडोवन उकल्यो मांडयो धांपल्यो. पुण तांची गोरसाण म्हजे नदरेंत गेलीच. ती बायल मध्यम पिरायेची, गोरी गोमटी, चौगांत उठून दिसत इतली सुंदर आसली. तिणें कपलाक तांबडो कुंकूम लायिल्लो आनी गळ्यांतलें मंगळसूत्र पोलकाभायर लांबयिल्लें. ते अवस्थेंत लेगीत तिगेली उभार छाती म्हजे नदरेंत गेली.

‘ कितें जाय ? ’ सोद घेवपी म्हजे नदरेक आडायत रुक्मिणीन विचाल्लें.

‘ हांगा रुक्मीण म्हणून कोण रावता ?’

‘ हांवच रुक्मीण. ’

हांव गोंदळ्ळो. खानावळ चलोवपी बायल चड करून जाण्टी वा विधवा आसतली अशें म्हाका दिशिल्लें.

‘ जेवणां सोंपून हांवें रांदन सारयली, उश्टीं काडलीं ... ’ हातांतलो शेणा–लोळो म्हाका दाखयत तिणें म्हळें. पुण पर्थून कितें येवजलें कोण जाणा, ‘ राव आं, हात धुवन येतां. ’ म्हणून ती म्हज्या मुखावेल्यान गेली आनी माडाचेर तिणे तो लोळो थापलो.

मागीर हात धुलो. पर्थून हात मातयेंत घांसून धुलो आनी ओल्या हाताचो वास घेत ती म्हजेसरीं आयली.

'हांव कालच्यान उपाशीं आसां. जेवण ना जाल्यार हरशीं कितेंय खावंक बी दी. उपकार जातले.' हांवें म्हळें.

ती खीणभर म्हाका पळयत रावली आनी ओगीच आपलो पदर आंवळून तिणें म्हळें, 'यो.'

तिच्या फाटल्यान हांव घरांत भीतर सल्लों. दारांतच्या शेणान सारयिल्लो एक सोगो. ताजेर हांव बसलों. रुक्मीण भीतर गेली. कांय वेळ आयदनां वाजलीं. मागीर परत भायर आयली.

'शीत आनी कालवणें आसा. कडी ना. लोणचें मेळटलें. पापोड वाडटां . . . देड रुपया.' भटान मंत्र उच्चारचो तशें तिणें सांगलें.

हांवें हांसत बोल्सांत हात घालो. हाताक लागली शंभरांची नोट. सगळें बोल्स सांसपिलें . . . ल्हान नोटच ना. मोड आशिल्ली सगळी व्हदल त्या भुरग्याक दिल्ली. हांवें नोट काडून रुक्मिणीच्या हातांत दिली.

म्हाका दिशिल्लें शंभरांची नोट पळोवन ती मोड ना म्हणत म्हणून. पुण तिणें दोनूय हातांनी ती नोट तपासली आनी म्हळें, 'तूं जेवन घे आदीं. मागीर उरिल्ले पैशे दितां.'

निकतेंच शेण सारयिल्ल्यान जमीन ओली आसली. तिणें भायले पडवेरच एक पत्रावळ दवली आनी पाट मांडलो. शीत न्हिवून थंड जाल्लें. पुण कालवणें– तें कसलें कोण जाणा– हून आशिल्लें आनी रुचीकय आसलें.

वाडटा आसतना तिणें म्हजी वासपूस केली.

'तूं गोंयचो ?'

‘ हय. ’

‘ सत्याग्रही ? ’

‘ तुका कशें कळ्ळें ? ’

‘ ना जाल्यार ह्या आडगांवांत गोंयकार केन्नाच पावनात. हांगा येतात ते रानां मारूंक आनी हेवटचें मीन व्हरूंक ट्रक आनी मानांय. गोंयकार हेवटेन पावलो जाल्यार वाट चुकून पावपाचो. ’

‘ हांव स्वातंत्र्यसैनिक. हांव म्हाका सत्याग्रही म्हणीना. . .’

‘ म्हळ्यार फार मार करपी ? ’

‘ हय. ’

‘ कित्याक पुता भांगरासारको जीव असो वगडायता ? घराकडेन कोण कोण आसा तुका ? ’

‘ आवय आनी बापूय. तीन भैणी. ’

‘ लग्नां जालीं ? ’

‘ ना. हांव व्हड. भैणी धाकल्यो आसात. ’

‘ तुजें लग्न जालें ? ’

‘ ना. ’

कोर्टांतल्या वकिलाभशेन ती म्हाका तपासताली. आनी म्हाकाय तिज्या प्रस्नांक जाप दिवंक संकोच दिसना आसलो.

‘ हांवय गोंयचीच. ’ कालवणें वाडटना रुक्मिणीन म्हळें.

‘ खरें म्हण्टा काय कितें ? ’ हांवें नदर वयर केली ती पडली पोलक्याच्या वयल्या वटेन. तिगेल्या तारुण्याचें धन कोणालेंय मन चाळयत आशिल्लें.

‘ घोव दुसरेक घेवन बसला गोंयांत. म्हणून हांव हांगा एक-

लीच ही खानावळ चलयतां. आंगावेल्यो वस्ती विकून हें घर आनी पोरसूं घेतलें. आनी हांगा हांव रावतां. आठ वर्सां जालीं.' हें इतल्या सादेपणान ती उलयली किं म्हज्या म्हाकाच अजाप जालें. पुण रुक्मीण वचून सोप्यार बसली आनी पदरान दोळे पुसूंक लागली.

पानावयलो उठून हांव भायर वचून आंवलों. तरी ती थंयच बसून राविल्ली. एके अनोळखे बायलेचें सांत्वन कशें करचें तें म्हाका समजना जालें. म्हाका केन्ना काय बांद्यां पावन अशें जाल्लें. दिसा उजवाडीं हांव तळार पावंक सोडतालों. पुण म्हजी शंभर रुपयांची नोट तिजेकडेन उरिल्ली.

'तूं रडून कितें जातलें? मन घट कर.' अडेचो धीर दीत हांवें म्हळें.

तशे रुक्मिणीन दोळे पुसले आनी ती उठली. 'जाणां तूं, म्हजे खानावळींत येवपी तूं पयलो गोंयकार. म्हणुन आजवेर जें दुख पोटांत दवरिल्लें तें उलयलीं... ताकीत आसा तुका? काय मात्सो बसता...च्या घेवन वच.'

'वतां हांव. रात जावचे पयलीं बांद्यां पावंक जाय.'

'राग बी आयलो ना मू... ?'

'ना बाये ना. उरफाटें भुकेल्ल्याक जेवण दितले अन्नपूर्णेचे उपकार खंयच्या उतरांनी मानचे हेंच म्हाका समजना.' हांवें म्हळें.

'उपकार मानतलो जाल्यार बस. मात्सो सुसेग घे. काया पळय कशी जाल्या तुजी! जाय जाल्यार न्हावन घे. मागीर च्या घेवन सवकासाय वच.'

रुक्मिणीन शंभर रुपयांची नोट किरवटीक लायिल्ली. ती परत म्हजेकडेन दिली.

'म्हजेकडेन मोड ना'

‘ मोड कित्याक ? हांव पैशे घेवचीं ना तुगेले. ’

हांव तिका पळयत रावलों. आनी त्याच सोप्यार आंग चोरून बसलों.

‘ आज म्हाका उमाळो कसो आयलो तेंच समजना. धा वर्सां जालीं हांवें घर सोडल्यार. हे मजगतीं मायेचो मनीस मेळ्ळो ना. तशी हांव बऱ्या घराण्यांतली चली. म्हगेल्या बापायन म्हाका बरें घालून सवरून म्हजें लग्न केल्लें. पुण म्हजेंच नशीब फुटकें. आंगावयली हळद पुसून वचचे आदींच म्हगेलो घरकार घराभायरो जालो . . .’

रुक्मीण पर्थून रडूंक लागली. हांवें तिजे फाटीर हात दवल्लो तसो तिका हुडको फुटलो. ‘असलो मायेचो हात म्हाका जल्मांत केन्नाच मेळ्ळो ना रे ’ तिणें म्हळें.

हांव लागीं सल्लों आनी म्हजो हात तिज्या भुजांभोंवतणी आंवुळ्ळो तशी तिणें आपली तकली म्हजे छातयेक तेंकयली आनी ती रडूंक लागली.

हांवें तिका वेंगांत घेतली आनी तिजी तकली हांव थापटूंक लागलों.

ती सुखावली आसूंये. तिणे आपलो गळिल्लो पदर लेगीत सारको केलो ना. म्हजो हात तिज्या आंगार भोंवत रावलो. ल्हवू ल्हवू हांवें बोटांनी तिगेलीं दुकां पुसलीं. तिगेल्या हुनहुनीत ओंठांचो म्हाका स्पर्श जालो.

नकळटना हांवें तिज्या गालाचें चुंबन घेतलें. तेसरशीं ती शिरशिरली आनी बेगीबेगीन उठली.

‘ च्याक आदन दवरतां, ’ तिणें म्हळें आनी भीतर गेली.

हांव सोप्यारच्च बसून येवजितालों. हे बायलेची म्हाका काकुळट

दिसताली तशीच ओडय दिसताली. अशें कित्याक हें मात म्हाका समजना आसलें.

पंदरा मिनटांनी रुक्मीण ऱ्या घेवन आयली. हांवें पळयलें किं तिणें आपले केंस आतां सारके वळेल्ले. तोंडावयल्यान पोवाचो हात भोंवडायिल्लो लेगीत आसूये...

'तूं आज हांगाच राव. फाल्यां सकाळीं बांद्यां वच.' तिणें म्हळें.

तिच्या स्पर्शान हांवय म्हजें कर्तव्य विसरिल्लों. कांय एक उलयना आसतना हांवें तिका म्हऱ्यांत आपयली. आनी तीय कसलोच संकोच करिनासतना येवन खेटून बसली.

ते रातीकडेन रुक्मिणीगेर कोणच जेवंक आयलो ना. एक वावराडी तिनसांजची आयली. तिका तिणें 'घरच्यान सोयरो आयला' अशें सांगून परतिली. ती वावराडी दुबावान म्हजेकडेन पळोवन गेली असो म्हाका ओगीच दुबाव आयलो.

रातीच्या जेवणाकडेन म्हजें लक्षच नासलें. म्हजे रुक्ष जिणेत आज एक नवो परमळ आयिल्लो. म्हजी ल्हंवेन ल्हंव चंवरिल्ली...

'तूं हांगाच कित्याक रावना ?' सकाळीं तिणें म्हाका विचाल्लें.

'येवन वचून रावतां हांव.'

'नाका. तूं हांगाच राव. आनी तो स्वातंत्र्याचो ध्यास सोड. तूं ओगी तुजो जीव झरयतलो. असल्या मागान गोंय स्वतंत्र जातलें ?'

विश्वामित्रालें तप भंग करपाक आयिल्ले मेनकेवरी ती म्हाका दिसली.

'तुवें म्हाका खूब सुख दिलें. पुण असल्या सुखाचेर तुळशीपत्र दवरून हांवें घर सोडलां. घरची याद येता तेन्ना हांव मन निब्बर करून रावतां. म्हज्या ध्येयापसून म्हाका पयस व्हरूं नाका.'

'जाल्यार तुजी मर्जी !'

अशें म्हणून रुक्मिणीन पदर दोळ्यांक लायलो.

जड जाल्लीं पावलां उबारून हांव चलूंक लागलों. मर्दी नदर फाटल्यान फिरायली तेन्नां हांवें पळयलें किं रुक्मीण वडामुळांत रावन म्हाका पळयत आसा.

त्या उप्रांत हांव दोन चार फावटी तिगेले खानावळींत पावलों. खरें म्हळ्यार मुजरत गेलों. पुण पयले खेपेची रुक्मीण म्हाका परत केन्नाच दिसली ना. वळखदेख नाशिल्ल्या परकी मनशाकडेन वागचें तशी ती म्हजेकडेन वागली आनी तितल्याच निर्विकारपणान फावटीन फावट जेवणाचे पैशेय घेतले.

एके फावटी कोण नासो पळोवन हांवें सलगीन उलोवपाचो यत्न केलो तेन्ना तिणें म्हळें, 'कित्याक ओगी हें नाटक? आमचे मार्ग वेगळे. तुज्या मार्गान तूं वच. म्हज्या नशिबान हांव.'

हे गजालीक आतां उणींच म्हळ्यार पंचवीस वर्सां उलगलीं आसतलीं. पयर पणजेच्या प्रासार दोन भुरग्यांक घेवन बसींत चडटले एके बायलेक पळोवन म्हाका रुक्मिणीची याद आयली. हांव तिजेसरीं गेलों. तिणें म्हाका पळयलो आनी तोंड फिरायलें. तीच रुक्मीण आसूंये अशें म्हाका दिसलें. मनांतल्या मनांत हांवें म्हळें, 'कशेंय जावं. निमाणेकडेन रुक्मिणीक आपलो मार्ग मेळ्ळो आसतलो!'



# काश्मिरांतली कळी

तांबडें गुबगुबीत सफरचंद पळेतकच म्हाका तिजी याद येता. तिगेले दोनूय गाल तांबडे गुंज आनी गुबगुबीत. तिगेलो रंग तांबसार हळडुवो. पुण तिजें नांव हांव नकळं. तिजे-कडेन हांव एकय उतर उलोवंक ना. जिवीतांत ती म्हाका एकेच फावटी मेळ्ळया. तरी आसतना म्हज्या काळजांत तिजी याद सासणाची उल्ल्या.

श्रीनगराक दल सरोवरांत एक शिकारा घेवन हांव भोंवडेक गेल्लों तेन्ना ती चली त्या शिकाराचेर आसली. कपलार गोंडे येत असली माथ्याक तोपी. आंगाक काश्मीरी पद्धतीची काबाय–जिका ते कमीज म्हण्टात–आनी लेंगो. पांय उकते. गळ्याक बोरायेद्या तांबड्या मणयांची एक माळ. हाताक रुंद अशीं तांबड्या रंगाचीं दोन–दोन कांकणां. पिटकोळीच्या फळांभशेन तांबडे ओंठ, धनु-श्याच्या आकृतीच्यो दाट काळ्यो भोंवयो आनी सुरमान रंगयिल्ले नुस्त्याभशेन दोन चकचकीत दोळे ... हांसतना मोतयांवरी दांत चकचकताले... ती कोण ?

हांवें शिकारा चलयतल्याक तो प्रस्न विचाल्लो ना. घडये ती ताजी धूव आसूये. ती चली काश्मिरी भाशेंत ताचेकडेन कितें तरी उलयताली. मदींच उलोवणें थांबवोन एकाद्रें लोकगीत गुणगुणटाली. तिगेलो आवाजय सुंदर.

‘ बाबूजी, आप बम्बईकी तरफ से आये हैं क्या ?’– शिकारा चलयतल्यान म्हाका विचाल्लें.

‘ हां भाई, क्यों पूछा ? ’

‘ सुना है वहाँ फिल्में बनानेवाली बहुतसी कंपनीयाँ हैं ! ’

‘ हां. ’

‘ वे लोग यहाँ भी कई बार आते हैं. ’ आनी मागीर हांसून म्हळें, ‘ हमारी गोरी की भर्ती फिल्म में कर सकोगे क्या ? ’

‘ आरे, ही चली जर फिल्मांत गेली जाल्यार सगळ्यो नटी तिजो दुस्वास करतल्यो. इतली सुंदर ही...’ हावें जाप दिली.

ती चली लजेली आनी तिचे गाल अदिकच तांबडे जाले.

‘ ही तुजी चली ? ’

‘ तशें समज. ’

‘ हट ! ’ ते चलयेन इतलेंच म्हळें.

विशय बदल्लो. मुखावेल्यान च्याचें दुकान आशिल्लो एक शिकारा येतालो. म्हाका च्या जाय काय म्हणून आमच्या शिकारा-वाल्यान म्हाका विचाल्लें. म्हाकाय च्या घेवची अशें दिसलें.

आमच्या शिकारावाल्यान च्याच्या दुकानाक उलो माल्लो आनी मागीर दुकानच म्हऱ्यांत येवंक लागलें. ‘महम्मद दोंगराकडेन वचना जाल्यार दोंगरच महम्मदाकडेन आयलो’ अशा अर्थाची एक म्हणणी शाळेंत शिकिल्लों. तिजो उगडास जालो. हांव म्हज्या आसनाचेर बसूनच रावलों. दुकानाचो शिकारा लागीं आयलो. हांवें तीन च्या मागयल्यो. आमी तिगांयनी च्या घेतल्या उप्रांत हांवें पैशे फारीक केले आनी आमी मुखार वचूंक लागले.

श्रीनगर शार एके कुशीक उरिल्लें. आमचे भोंवतणी झाडां-झोपांनी भरिल्लो दल तलाव आनी तलावाचे कुशीक एक दोंगर. दोंगरार एक मंदिर आसा.

‘ तें कितें ? ’ हांवें विचाल्लें.

‘ ब्राह्मनों का मंदर ’ शिकारावाल्यान जाप दिली. काश्मिरांत हिंदु लोक चड करून जम्मू भागांत आसात. थोडे श्रीनगरांत. राज्यांत मुसलमानांची वस्ती चड.

‘ हांगा हिंदु लोक कितले आसात ? ’ हांवें विचाल्लें.

‘ खूब थोडे. ’

‘ दंगली बी जातात तर ? ’

‘ ना रे, बाबा. ’

‘ तुजें नांव कितें ? ’

म्हज्या प्रस्नांतली खोंच शिकारावालो रोकडोच वळखलो. हांव मुसलमान. म्हजें नांव रहमान.’ ताणें जाप दिली.

मखलाशी करपाच्या इराद्यान हांवें म्हळें, ‘हिंदू जावं मुसलमान. काश्मीरच्या वाटाराभशेनच हांगाचो लोक सुंदर. ’

तो उलयलो ना. ती चली मात माका पळेत रावली. नदरेक नदर मेळ्ळी तेन्ना तिणे लजेवन तकली फिरायली.

‘ भगवान की कसम बाबूजी. यहाँ हमारे लोगोंके बीच कोई झगडा नहीं. झगडा तो सरकारों के बीच है. ’

राष्ट्रीय एकचाराच्या प्रचारावेले आकाशवाणीवेल्यान वितराव-पाक नाटिकेखातीर हो संवाद बरो आशिल्लो. पुण म्हाका अजाप वेगळेच गजालीचें जालें. एक काश्मिरी मुसलमान ‘ भगवान ’चो सोपूत घेता हाजें. हरशीं मुसलमान सोपूत घेतात ‘खुदा’चो. हांवें तशें ताका म्हाळें.

‘ हमारी बोलीमें अैसाही कहते हैं.’ ताणें जाप दिली–‘आखीर खुदा ही तो भगवान है ! ’

आमचो हो संवाद ते चलयेक मानवलो ना आसूंये. ती उदकांत हात सोडून आपले भीतर पद गुणगुणूंक लागली.

मदींच एक पोरसूं आयलें. दुदी, कोंकणदुदी आनी हेर शाक-भाजी तळयार उफेताली. थंय जमीन आसा काय म्हणून हांवें विचाल्लें.

'भगवान की कृपा है साव!' ताणें जाप दिली.

तळयांत मदींच उदकाचेर पोरसूं. त्या पोरसांत फुलां–फळां. खरेंच देवाचीच लीला.

'तें पोरसूं कोणाचें?' हांवें वासपूस केली.

'है एक बागवान का.' जाप मेळ्ळी, 'आपने क्या सोचा ऐसा ही उगा है?'

म्हज्या मनांतलो दुबाव ताका कसो कळ्ळो हाजें म्हाका अजाप जालें.

'हमारा यह गोरी है जो किसीकी नहीं.' ताणें म्हळें, 'लेकिन यहाँ की और सारी चीजोंके मालिक हैं!'

ते चलयेक आपली खबर उलयतात हें आवडलें ना. तिणें एक वेगळोच हेल काड्न शिकारावाल्याक दटायलो.

'तिकाय धनी मेळटलो ... देवान तिका रूप दिलां. तिका कोणय भाग्यवानच मेळटलो.' हांवें म्हळें.

'हां ऐसाही होगा.' शिकारावालो खोशयेचे खिन्नतायेन हांसलो.

ते चलयेन मात आतां हाताच्या पोशांनी तोंड लिपयलें. इतल्या बोवाळांत तिगेल्या माथ्यावेली गोंड्याची तोंपी तळयांत पडली. शिकारा पेल्यान पाविल्लो. नुस्त्यान मारची तशी उडकी मारून ती तळयांत देंवली आनी 'अरे, ये क्या?' असो प्रस्न विचारतल्या शिकारावाल्याक कितें जालें तें समजुचे पयलींच ती परत शिकारांत चडली.

तिगेल्या ओल्या न्हेसणान सुंदर देहाक वेंग मारिल्ली आनी

केंसय चिंब भिजिल्ले. तिणे सुण्या भशेन आंग फांफुडलें आनी दुसऱ्याच खिणाक तिगेली नदर म्हजेर पडली. तिणे दोनूय हातांनी आपली छाती धांपून घेतली आनी म्हजेवटल्यान फाट फिरायली.

'अब लौटेंगे ना, बाबूजी ?' आतां शिकारावाल्याक तिजो हुस्को जाल्लो.

'हां चलो.' हांवें म्हळें.

'कितें सांगतालों,' ताणें म्हळें, 'म्हयन्याचें आसतना हे चलयेक ह्या शिकाराचेर कोण तरी सोडून गेल्लो. हांवेंच ताका ल्हानाचें व्हड केलें. ताजी आवय हांव जालों आनी बापूयय... सदांच अशें आडांगी. पुण केन्नाच कोणाली कागाळी हाडली ना...

शिकारावाल्यान दोळे पुसले. तें चलीय रडूंक लागलें. कितें करचें तें समजना जावन हांवें म्हळें, 'तागेले कपडे बेगीन बदल. ना जाल्यार ताका थंडी जातली.'

पोशांत लिपयिल्लें तोंड तशेंच धरून तिणें मात्शें वयर काडलें आनी बोटां विस्कळ करून म्हजेकडेन पळेलें. नदरेक नदर मेळ्ळी आनी तापिल्ल्या दुदाक फस्स् करून ओतो येवचो तशी ती हांसली. शिकारावाल्याक मात कितें जालें तें कळ्ळें ना.

शिकारा धडेक लागना फुडें तिणें उडी माल्ली आनी ती गेली. तिज्या फाटोफाट हांवें उडी माल्ली. पुण हांव निसरून पडलों. धप्प करून आवाज आयलो. भोंवतणच्या लोकांनी बोवाळ केलो. म्हजे हात आनी धोंपरांकडेन कपडे म्हेळे जाल्ले. आनीक चड कांय लागूंक नासलें. वेळ बरो. ना जाल्यार निसरून तळ्यांतच पडपाचो.

'ए गोरी,' शिकारावाल्यान उलो माल्लो, 'साबको हात धोने के लिये पानी दो.'

'एदो वेळ धडेर उबी रावन पळेतले ते चलयेन नाक मुड्डिलें

आनी ती खुदखुदून हांसली. दुसऱ्याच्च खिणाक ती वयर धडेर म्हज्या हातार उदक घालूंक लागली.

उदकाचे धारेर हात धुता आसतना नकळटतां म्हजी नदर वयर गेली. चार दोळे एक जाले. खिणभर थीर जाले. दुसऱ्याच खिणाक म्हजी नदर तिगेल्या रुंद गळ्याकडेन आनी त्या गळ्याचे देगेर येवन राविल्ल्या कोंवळेसाणीचेर थिरावली. तिका धंगय नासलो...

...उदक सोंपलें. पुण आमी तशींच उल्लीं...

'क्या घूर रही हो?...और पानी ला.' शिकारावाला आड्डलो.

तेसरशीं ती भानार आयली आनी दोनूय हातांनी छाती धांपून पळत सुटली.



# चीना पीक

नैनी तळयांत बोटींग करता आसतना हांवें तांकां काल पळेल्लीं. तीं दोगां आसलीं. त्याच व्हड्यांत हांवय आसलों आनी म्हज्या सांगातान शाली. तांच्यावांगडा कोण दादलो नासलो. दोगांल्याय आंगार चुडीदार पाजामो आनी वेल्यान कुरतो असो पंजाबी ड्रेस आसलो. एकलेन वेल्यान बंद गळयाचो स्वेटर घाल्लो आनी दुसरेन चामड्याचें जाकीट. दोगांय आंगलोटान एकशीवड आशिल्लीं आनी वयावेलीं जाल्ल्यान तांचो आंगलोट नदरेंत भरतालो. एकली गोरी दुसरी रंगान मात्शी सांवळी. पुण दोगांय रुपान सुंदर.

म्हजो समज जालो कि तांचे बरोबरचे दादले तळयाचे देगेर भोंवतात आसतले. बरोबर शाली नासलें जाल्यार हांव घडये तांचेकडेन गजाली करीन आसलों. हांव तांचेकडेन पळेत रावलों म्हणपाचें पळोवन शालीन म्हजेर दोळे मोठे करून नदर थिरायिल्ली. शालीले नदरेक नदर मेळ्ळी तेन्ना म्हजे हांवच लजेलों.

व्हड्यांतल्यान आमी देंवलीं तेन्ना भोंवतणचे दोंगर काळखे रातीचे वेगेंत सुस्ताविल्ले. तळयाचेर वयर धुंवट पातळिल्लें. आतां शीं वाडिल्लें. हात पांघरून हांव देंवलों. शालील्या पांयांक तागेली साडी घुस्पताली. ताका हात दिवन, हांवें व्हड्यांतल्यान देंवयलें. शाली देंवलें तेसरशीं व्हडें हाललें आनी त्या दोगांय चलयांनी भियेवन किळच माल्ली. तांकां भियेल्लीं पळोवन हांव हांसलो आनी

म्हाका हांशिल्लो पळोवन तीं लजेलीं आनी आपली लज लिपोवपा-खातीर व्हडाव्हडान हांसूंक लागलीं. व्हडेकारान एकलेक हात दिवन देंवयली. दुसरी अधिकच भियेताली. तिका ताणें उबारूनच सकल दवल्ली. म्हाका मनांतल्या मनांत व्हडेकाराची नसाय जाली.

मागीर आमी देगेवेल्या हॉटेलांत गेलीं. च्या घेंवक बसलीं तेन्ना त्यो दोगीय चलयो आमच्या बगलेच्याच मेजार बशिल्ल्यो. त्या वेळार लेगीत तांचेबरोबर दादलोमनीस नासलो. तरी आसतनां म्हाका दिसलें कि कोणयतरी तांचेबरोबर आसतलोच.

तीं दोगांय हांसत खेळत खबरो करतालीं आनी आपल्याच नादांत तल्लीन आसलीं. म्हज्या मनांत आयलें शालीक तांचेकडेन उलोंवक सांगचें. पुण घराकडेन नळे माथ्यार घेवपी शाली घराभायर मोनें जाता आनी हांवें दुसऱ्यांकडेन उलयल्लें लेगीत ताका मानवना म्हणपाचें हांव जाणा आसलों. देखून हांव कांय उलयलों ना. म्हजी नदर त्या दोन चलयांचेर थिरावलेली. सवण्यांच्या पोरांनी हुस्क्या मेकळीं झाडार बसून चिंवचिंव करचें तशीं तीं म्हाका दिसलीं.

हांव तांकांच पळेत बसलां हें पळोवन शालीन आपले दाव्या हाताचो कोंपोर म्हाका माल्लो आनी विचाल्लें, 'कितें पळेता?' हांव मात्सो गोंदळ्ळों. 'कांय ना' हांवें म्हळें, 'तांचेबरोबर कोण दादलो ना दिसता.'

'तांचो हुस्को तुका कित्याक?' अशें म्हणून शालीन मान फिरायली. घडये तें येवजितालें जातलें कि आपूण बरोबर नासलें जाल्यार हांव पारपोळ जातलों आसलों.

कालची ही गजाल आज चीना पीक चडटा आसतनां पळोवन त्या चलयांक पळोवन म्हाका याद जाली. दोगांल्याय आंगार कालचोच भेस आसलो. तीं दोगांय दोन घोड्यांचेर बशिल्लीं आनी व्हडेकार घोड्याचो लगाम हातांत धरून जमनीवेल्यान चलतालो.

चीना पीकाची चडटी शालीच्यान चडूंक जावची म्हणून हांवें ताज्याखातीर एक घोडो भाड्यान केल्लो आनी आपली साडी वयर करून धोंपरांसकले पांय उक्ते उडोवन शाली अजागळाभशेन घोड्यार बशिल्लें. भुरग्यांक आईम्हन्यांत दवरून शालीक घेवन हांगा येवपांत हांवें चूक केल्ली. म्हजी मेकळीक हांव वगडावन बशिल्लों पुण आतां इलाज नाशिल्लो. शालीक हाडलें तशें व्हरूंक जाय आसलें. नाय जाल्यार जल्मा खातीर ताचो हात हातांत घेतिल्लोच न्हय !

तीनूय घोडे फाटीं फुडें चलताले. आतांय त्या चलयांबराबर कोणच दादलो नासलो. अजून उजवाड जावंक नासलो. भोंवतणीं दाट धुंवट पातळिल्लें. दवान म्हजी तकली जड जाल्ली तरी आसतना एके अनोळखी उमेदीन हांव चलतालों. चीना पिकाचेर वचून आमकां सूर्योदय पळोवपाचो आसलो. आकांताचें शीं पडिल्ल्यान तोंड उक्तें करपाचें धाडस कोणाकच जायना आसलें. श्वासाबरोबर नाकांतल्यान वाफेन्चो धुंवर सुटालो. चडटी चडून चडटां चडटां हांव धापेल्लों. आनी ताका लागून म्हज्या आंगांत थोडी उब आयिल्ली.

निमाणेकडेन आमी चीना पिकाचेर पावलीं. आमच्या आदीं जायतो लोक थंय आयिल्लो. सूर्य अजून उदेवपाचो आसलो. लोक वेगळ्यावेगळ्या सुवातेर चोमे करून उबे राविल्ले. शालीक हांवें घोड्यावेल्यान देंवयलें आनीक ल्यो चलयो कशो देंवतात तें हांव पळोंवक लागलों. एकलेन देंवपाखातीर उजवें दांग वयर उबाल्लें पुण ती निसल्ली. घोडेकारान तिका घट्ट धल्ली आनी उबारून सकल दवल्ली. हेय फावट म्हाका नसाय जाली. दुसरी मात सराव आशिल्लेभशेन देंवली.

‘ आतां कितें करप ? ’ शालीन विचाल्लें.

उदेंतेकडेन बोट दाखोवन हांवें म्हळें, ‘ आतां दीस उदेतलो.

पळे, मळब तांबशें जालां. ल्हव ल्हव धुक्यांतल्यान तांबडेंगुंज बिंब भायर सरूंक लागतलें.'

'मागीर कितें जातलें?'

'कपल तुजें!' अशें सांगपाचें तोंडार आयलें पुण सोबा नाका म्हणून हांव ओगी रावलों. शालील्या तोंडार उदेल्लो भाव पळोवन तें मनांतल्या मनांत निर्शेलां आनी फडफडलां म्हणपाचें दिसतालें. अशें आकांताचें शीं पडलां अशा वेळार हातुणांतले गादयेची उब सोडून चीना-पिकाची चडटी काडून सूर्योदय पळोवपांत कितें मौज आसता असो ताका प्रस्न पडिल्लो.

'चल आमी काफी घेवया' खांदावेल्या थर्मासाक हात लावन ताणें म्हळें. त्यो दोनय चलयो कडेवेल्या तळपाचेर उब्यो रावन दीस वयर येवपाची वाट पळेताल्यो तांचेर नदर वचनाफुडें हांवें म्हळें, 'चल, थंय या आमी. सूर्योदय पळोवया. आनी मागीर सवकासाय काफी घेवया.' हांव त्या चलयां म्हऱ्यांत वचून उबो रावलों. शालीय आयलें. येतां येतां ताणें म्हळें, 'आंवय सूर्योदय पळोवंक हांगा येवंक जाय आशिल्लें?'

हांवें जाप दिली ना.

मळबाची कूस फुटून ल्हव् ल्हव् सूर्याची कडा वयर सरूंक लागली. जमिल्ल्या लोकान ताळयो मारून सूर्यदेवाक येवकार दिलो. पुण शाली हात पांगरून मट्ट बशिल्लें.... ताका हे गजालींत कसली नवीदाद आसा अशें दिसना आसलें.

सूर्याचीं भांगरा रंगाचीं किर्णां पयसुले एके न्हंयच्या उदकांत चकचकूंक लागलीं...तांबशीं रुपेरी न्हंय भौच सुंदर दिसताली. हांवें ल्हवूच स्वेटर घाल्ले चलयेच्या खांदार हात दबरून म्हळें, 'ती न्हंय पळे!' म्हजे तोंड फाटलेवटच्यान तिगेल्या कानसुलाक तेंकिल्लें. आनी म्हज्या नाका-तोंडातले हून स्वास तिजे मानेक आफुडटाले.

पुण तिका ताजें कांयच दिसलें ना. तिगेल्या सांगातान आशिल्ले दुसरे चलयेकय वायट दिसलें ना. ती लागीं आयली आनी तिणें विचाल्लें, 'खंयची ?'

दोनूय परकी सुंदर तरुण चलयांल्या तकल्यांमदीं म्हजी तकली आसली. हाताचें बोट करून हांव तांकां ती न्हंय दाखयता आसतना म्हजी छाती ते स्वेटर घाल्ले चलयेचे फाटीक तेंकिल्ली–'तीऽऽपळे!' हांवें म्हळें.... ती न्हंय ताणीं पळेली ... केदो वेळ हांव तसोच तांकां धरसून आशिल्लों देव जाणा! फाटल्यान शालीन म्हाका हात लायलो आनी हांव भानार आयलों. फाटीं सरून नदर फिरायली. शालीन दोळे मोठे केल्ले! 'चल या आमी ... म्हाका उबगण आयली.' ताणें म्हळें.

'आतां पळे सूर्य वयर आयलो ... आतां काफी घेवपाची आनी मागीर वचपाचेंच.' कांय जावंक नाशिल्ले भशेन करून हांवें म्हळें...

पुण शालीलें तोंड तिडकीन काळें जालें. शालीचें वेगळेपण तें हेंच. संवसाराच्या सुखदुःखांत समरस जावप ताका केन्नाच जमना. सदां फक्कत आपल्या भोंवतणींच्च ताजे विचार धुंवतात. . . सूर्योदय, सूर्यास्त, हिमशिखरां, दर्या, ल्हारां. . . असल्या गजालींत एक काव्य आसता, हें काव्य मनशाक देहभान विसरूंक लायता म्हणपाचें शालीन केन्ना अणभवलेंच्च नाशिल्लें. देखून ताची नदर म्हजेरच थीर जाताली . . . एखाद्या स्वामीन आपल्या शिष्याचेर दवरची तशी!

कांय वेळान लोक परतूंक लागलो. कांय जणांनीं आपल्या बरोबर हाडिल्ल्यो सुतयो सोडयल्यो आनी थर्मास उकते केले. आमचे कडेन दोन थर्मास भरून काफी आशिल्ली. एक थर्मास म्हज्या खांदार आसलो आनी दुसरो शालीच्या.

'काफी घेवया.' हांवें त्या चलयांक सांगलें.

‘नाका ... घेयात तुमी ... आमी सकल वचूनच घेतात.’ जाकीट घाल्ले चलयेन जाप दिली.

‘आसा काफी...परकीपण ना.’ आनी नदरेनच हांवें शालीक तागेलो थर्मास त्या चलयांक दिवंक खुणायलें. शालीन दोळे मोठे करून म्हजेकडेन पळेलें आनी मोन्यानी आपलो थर्मास तांकां दिलो.

त्याच तळपार बसून आमी थर्मास उकते केले. एकेका थर्मासाक डबल धांकणी. तीं आमी कोपां कशीं वापल्लीं.

‘आमकां दिशिल्लें हांगा हॉटेल बी आसतलें.’ स्वेटर घाल्ले चलयेन म्हळें.

‘कांय पर्वा ना ... हांव सदांच असल्या जाग्यांनीं येतना एक थर्मास चड घेतां.’

‘उपकार जाले तुमचे . . . शियान आंग सामकें आंखडेवन गेल्लें.’

काफी पियेवन जातकच जाकीट घाल्ले चलयेन जाकीटाची जीप उकती केली. हांव ओगीच अस्वस्थ जालों. तिजी छाती सुंदर आसली . . . हांवें नदर फिरायली.

‘तुमी दिल्लीक सावन आयल्यांत?’ हांवें स्वेटर घाल्ले चलयेक विचाल्लें.

‘ना. मुंबैच्यान.’

‘तुमच्या बरोबर दादलो मनीस कोण दिसना . . . .’

‘आमच्या आमीच आयल्यांत.’

म्हाका दिसलें शालीन तांचेकडेन उलोवचें. पुण जें कितें घडटा तें शालीक आवडूंक नाशिल्लें. तें फकत दोळे मोठे करून म्हाका दटायतालें.

जाकीट घाल्ली चली उठली आनी तळपाचे देगेर गेली. थंय ती बागवली. हांव तिजे फाटीकडेन पळेत आसलों. तिणें हात लांबयलो आनी सोरोप चाबिल्लेवरी हात फाटीं काडून किळच माल्ली... ह्या बोवाळांत तिगेलो पांय निसल्लो...हांव धांवत गेलों आनी म्हज्या एका हातांत तिगेलो दंड आनी दुसरो हात तिगेल्या कमरा भोंवतणी घालून तिका धल्ली ... मात न्हय जाल्यार ती धा फूट सकल पडपाची ...ती दुसरी चलीय धांवत आयली. शाली मात थंयच बसून रावन थर्मास बंद करतालें.

खीणभर ती चली म्हजे वेंगेंत आयिल्ली. त्या आकांताच्या खिणाक लेगीत हांव सुखावलों.

'कितें जालें ?' दुसरे चलयेन विचाल्लें.

'हांव फूल काडूंक बागविल्लें. म्हज्या हाताक कातकुतलेची चुरकी लागली...म्हणून हांवें हात फाटीं काडलो...त्या बोवाळांत पांय निसरून तोल गेलो ...'

इतलें सांगून तिणें म्हाका पळोवन 'थँक्यू' म्हळें आनी म्हज्या हातांतलो आपलो हात सोडोवन घेतलो.

हांवें बागोवन पळेलें. थंय एक रानटी गुलाब शेंवतें आसलें. हांवें बाग घेवन तें तोडलें आनी ते चलयेक दिलें.

ती अजून आपलो हात चोळटाली. थंय दादड आयिल्ले आनी तिगेलो गोरो पिट्ट हात सामको तांबडो जाल्लो...तरी हांसतें तोंड करून तिणें तें फूल घेतलें.

लागींच आशिल्ल्या निलगिरीच्या झाडाचो पालो हांवें बुड्डिलो आनी तिका विचारिना आसतना तिगेलो हात हातांत घेवन तो पालो तिगेल्या दादडांचेर चोळूंक लागलों ...

शाली पयसुल्यान म्हाका पळोवन उठलें आनी म्हज्या म्हऱ्यांत

येवन म्हणूंक लागलें, ‘ चल या आमी वेळ जाता. ’

बायलांचो मत्सर बायलोच वळखतात. ते दुसरे चलयेनय म्हळें, ‘ या . . . वेळ जालो. ’

तिणें पर्थून म्हजे उपकार मानले आनी तीं दोगांय आपल्या घोड्यांचेर वचून बसलीं. घोडेकारान दोगांकय घोड्यार चडयताना पर्थून तांच्या कमराक आनी हाताक धल्लें. . . .हांवें शालीक उबारून घोड्यार बसयलें. . . . ‘ हें कितें. . . .लोक हांसतलो ! ’ मात्शें खोशी जावन अडेचो राग उक्तायत शालीन म्हळें.

ते उकत्या जाकीटाचे चलयेन म्हजेकडेन पळेलें. नदरेनच ती हांसली आनी जाकीटाची जीप बंद केली. घोडो चलूंक लागलो. मुखार तीनय घोडे आनी तांचे घोडेकार. फाटल्यान ल्हवू ल्हवू पावलां उबारीत हांव एकलोच. म्हजीं पावलां जड जाल्लीं . . . .



# चम्पावतच्या डाक बंगल्यात

चम्पावताक आमची बस सांजवेळां साडेचार वरांचेर पावली. सकाळीं णव वरांचेर आमी लोहाघाटाक बसींत बशिल्ले. सगलें आंग आळसावल्लें. हांव सकयल देंवलों आनी आळस झाडलो. म्हज्या फाटोफाट ती स्विडीश चलीय सकयल देंवली. एस्. टी.च्या तिकेट ऑफिसाकडेन वता आसतना ते चलयेन म्हाका म्हळें, 'तुगेली तिकेट घेता आसतना म्हजीय घे.'

तिकेट मास्तरान सांगले कि चम्पावत आनी टनकपूर हांचे मदीं पावसान दोंगराचे कडे कोसळिल्ल्यान आतां बस सुटची ना. फुडली बस फाल्यां सकाळीं णव वरांचेर सुट्टली. हांवें तें बसीच्यो तिकेटी मागल्यो तेन्ना ताणें म्हळें, 'यो तूं. तुका तिकेट मेळटली.'

बस वच्चीं ना हें कळनाफुडें ती स्विडीश चली काचाबूल जाली. आमी उलयता आसतना पांच–स पहाडी पोर आमचे भोंवतणी जमले. हांवें एका भुरग्याक विचाल्लें, 'हांगा बरें हॉटेल बी आसा?'

त्या भुरग्यान पहाडी भाशेंतल्यान जी जाप दिली तिजो अर्थ म्हाका सारको समजलो ना. पुण त्याच वेळार म्हन्यांतच उबो आशिल्लो एक मनीस मुखार सल्लो आनी ताणें भुरग्यांक धांवडायलीं. म्हाका ताणें हिंदीत सांगलें, 'हांगा वयर माळयेर एक खाणावळ आसा. थंय जेवण मेळटलें. पुणथंय रावपाक बरो जागो ना. हांगा लागींच डाक बंगलो आसा. थंय तुमकां बरो जागो मेळटलो.'

हांवें ताका विचाल्लें, ‘ म्हाका डाक बंगल्याची वाट कोण दाखयतलो ? ’

म्हज्या प्रस्नाक जाप दिनासतनाच तो बसीकडेन गेलो आनीक म्हजें सामान ताणें देंवोवन घेतलें. उप्रांत ते स्विडीश चलयेचेंय सामान देंवोवन घेतलें.

आपणालें सामान देंवोवन घेतलां हें पळेनाफुडें ते चलयेन विचाल्लें, ‘ घडलां कितें ? ’

हांवें तिका किदें घडिल्लें तें सांगलें आनी तीय डाक बंगल्यांत वचूंक तयार जाली.

सादारण पंदरा दिसांचें खाड वाडयिल्लो तो मनीस त्या गांवचो न्हय अशें म्हाका ताचेल्या हावभावावेल्यान दिसतालें. पुण हांवें ताका कांयच्च विचाल्लें ना. सामान उबारून तो चलूंक लागलो आनी ताज्या फाटोफाट आमीय चलूंक लागलीं. जिपीच्या एका मार्गान एक ल्हानशी दोंगुल्ली चडटकच डाक बंगलो आयलो. व्हरांदांत दोन वल्तेरां आशिल्लीं आनी मुखार सारकी जतनाय घेवंक नाशिल्ली एक बाग. बागेचे पलतडीन च्यारुय वाटांनी मेकळें मळ, आनी क्षितिजाकडेन पावशी कुपां पांगुरिल्लो दाट निळो हिमालय. वातावरण एकदम प्रसन्न आसलें. अस्तमतेकडेन सूर्य अस्ताक वचपाची तयारी करतालो. आनी शिंयान कुडकुडटल्या भुरग्यान व्हड निळी कांबळ पांगुरची तसो तो दिसतालो. हो देखावो पळोवन ती स्विडीश चली तर सामकीच पिशी जाली. ल्हान भुरग्यांभशेन ती नाचूंक लागली. खांदावेलो कॅमरा काडून ती फोट्यार फोटे घेवंक लागली.

पुण निसर्गाच्या सौंदर्याचो आनंद आमकां चड वेळ घेवंक मेळ्ळो ना. माथें खरपीत आमचें सामान घेवन आयिल्लो मनीस म्हज्या म्हन्यांत आयलो आनी ताणें म्हळें, ‘ साब, एकही कमरा

खाली है, दूसरे कमरेमें इंजिनियरसाब टिके हुये हैं.'

ताजे फाटोफाट बंगल्याचो चौकीदार उबो आसलो. बंद गळ्याचो कोट, ताजे सकयल धोंपरामेरेन कवळिल्लें म्हेळें पुडवें आनी तकलेक मालाभशेन मफलर बांदिल्लो.

म्हज्या आनंदाचेर विरजण पडलें. कितेंय तरी विपरीत घडलां म्हणपाचें ते स्विडीश चलयेक समजल्लें. ती कपलाचेर एक व्हड प्रस्नचिन्ह हाडून म्हाका पळेत रावली. हांवें तिका कितें घडिल्लें तें सांगलें.

'मागीर हुस्को कसलो?' तिणेंच म्हाका परतो प्रस्न केलो.

म्हजी अडचण तिका समजना हाजें म्हाका अजाप जालें. ती व्हडाव्हडान हांसली आनी तिणें म्हळें, 'कांय पर्वा ना. आयची रात आमी एकेच कुडींत रावया.'

म्हाका ही कल्पना विचित्र दिसली. पुण हांव कांय उलयलों ना. हांवें त्या मनशाक आमचें सामान कुडींत व्हरून दवरूंक लायलें आनी चौकीदाराक तीन कप च्या करूंक सांगली.

सामान दवरून येवन तो मनीस निरोप घेवंक लागलो तेन्ना हांवें ताका खुणेनच राव म्हण सांगलें आनी पर्यून पावशी कुपांआड हिमशिखरां दिसतात कांय म्हणून सोदूंक लागलों. पुण म्हजें चित्त आतां सोबीत सैमाकडेन ओड घेना जालें. म्हाका रावन रावन रातीकडेन खंय न्हिदचें हाजो प्रस्न पडटालो. सकाळीं लोहाघाट सोडिल्लो आनी दीसभरच्या प्रवासान म्हाका सामकें पुरो जाल्लें. रातभर बरी न्हीद आयली जाल्यार सकाळीं ताजो जावन उठटलों अशें येवजून हांव डाक बंगल्यांत आयिल्लों....

चौकीदारान च्या तयार जाल्ल्याची खबर दिनाफुडें हांवें ते स्विडीश चलयेक आपयली आनी आमचे सांगातान आयिल्ल्या

मनशाक घेवन कुडींत आयलों. व्हारांदांत दोन वल्तेरां आशिल्लीं तीं पळोवन मनांत म्हळें, वेळ आयल्यार हांव व्हारांदांतच न्हिदन. आनी मागीर आंगावेलो घोयरांव झाडचो तसो हांवें न्हिदपाचो हुस्को झाडून उडयलो आनी कुडींत भितर सल्लों.

कुडींत एक रुंद खाट आसली. एक मेज. मेजाभोंवतणीं चार पांच कदेलां. कुशीक एक ड्रेसींग टेबल. जोडून बाथरूम. बाथ-रुमाचें दार उक्तें करून पळेलें. थंय एक युरोपियन पद्धतीचो कमोड आसलो.

मेजार च्याची ट्रे आशिल्ली. ते चलयेन तीन कोपांनी च्या घाली. आनी साकर खिरायत एक कोप म्हज्या हातांत दिलें. हांव मेजाकडल्या कदेलार बसलों. आमचे बरोबर आयिल्लो मनीस आपलो कप घेवन व्हारांदांत गेलो.

च्या हुनहुनीत आशिल्ली आनी करपय बरी जाल्ली.

ते चलयेन म्हळें, 'फाटले पंदरा दीस हांव हिमालयांत भोंवता पुण इतली बरी च्या म्हाका खंयच मेळ्ळी ना.'

खबरेंतल्यान खबर येवन म्हाका कळ्ळें किं ही चली एके खास वनस्पतीचो सोद करपाखातीर ह्या भागांत आयिल्ली. मायावतीक रामकृष्ण मिशनचो आस्रम आसा. थंयचे वळखीन ती थंय एकल्यागेर राविल्ली.

'अितल्या पयसुल्या देसांतल्यान येवनय तुका ह्या आस्रमाची खबर कशी मेळ्ळी ?' हांवें तिका विचाल्लें.

तिणें जाप दिली, 'ह्या आस्रमांत न्हिदिल्लेकडेन स्वामी विवेकानंदांक दृश्टांत जाल्लो म्हणपाचें हांव जाणा आसलें. आनी वनस्पती सोदपाखातीर जेन्ना हिमालयांत वचचें अशें थारलें तेन्नाच मायावती हें केंद्र करचें अशें हांवें थारायिल्लें.'

'मागीर तुका जाय आशिल्ली वनस्पत मेळ्ळी ?'

'ती मेळ्ळीच. तिजो वापर आश्रमाच्या हॉस्पीटलांत कितलीं-शींच वर्सां जातालो. पुण त्या भायर म्हाका आनीकय जायत्यो गजाली मेळूंक पावल्यो.'

म्हाका ते चलयेचें कौतुक दिसलें. खंय स्विडन आनी खंय भारत. आनी भारतांत हिमालयाचे कुशींतलो हो कुमाऊँ वाठार खंय! पुण एक चली केदें धाडस करता पळयात!

हांवें तिका म्हळें, 'आमच्या देसांत तुज्या वयाचे आंकवार चलयेक आवय बापूय एकली इतले पैस धाडपाचे न्हय.'

'तुजो गैरसमज जाला.' ते चलयेन म्हळें. 'हांव आंकवार न्हय. म्हाका दोन भुरगीं आसात.'

म्हाका कितें उलोवचें हेंच समजना जालें. पुण कितेंय तरी उलोवंक जाय म्हणून हांवें म्हळें, 'तुज्या घोवान तुका एकली धाडली बरी.'

'कित्याक धाडचो ना ? हांव कितें ताजे पांगेपोंदा आसा काय कितें ?'

'आनी भुरग्यांचें कितें ?'

'तांचें तीं पळोवन घेत....'

म्हाका ह्यो जापो अजापाच्योच लागल्यो. थंडसाणेन तिजेकडेन थंयचे समाज व्यवस्थेचेर उलोवचें अशें थारावन हांव भायर आयलों.

भायर तो मनीस म्हजी वाट पळयतालो. हांवें ताका म्हळें, 'आमकां चम्पावत गांव पळोवपाचो आसा. तूं आमचे बरोबर येता ?'

व्हड खोशयेन ताणे हय म्हळें. हांव परत कुडींत आयलों आनी तिका विचाल्लें, 'तूं गांव पळोवंक येता ?'

‘ म्हाका वचूंकच जाय. पुण तूं म्हाका लूसी म्हण. हांव तुका कितें म्हणूं ? ’

‘ गोपीनाथ. ’

‘ सुंदर नांव. गोपीनाथ म्हळ्यार कृश्ण. गोपींचो नाथ न्हय ?’

हांवें हांसून हय म्हळें. लूसीक भारताची इतली बारीक खबर. पुण ल्हानशा स्विडनाची म्हाका कांयच खबर ना हाजी म्हज्या म्हाकाच लज दिसली.

गांवचे दिशेन चलूंक लागनाफुडें तिणें म्हळें, ‘ म्हाका एक केबल धाडूंक जाय. ’

‘ स्विडनाक आसतली. ’ हांवें म्हळें.

‘ हय. तुका कशें कळ्ळें ? ’ लूसीन विचाल्लें.

‘ कितलेंय जाल्यार बायलेचें मन तें ! घोवाची आनी भुरग्यांची याद आयली मू तुका ? ’

‘ ना रे बाबा ना. तशें तुका दिसलें जाल्यार तूं चुकलो. म्हाका केबल धाडूंक जाय आमच्या इन्स्टीटयूटाक. ’ लूसीन म्हळें.

एके कुशीक तार ऑफीस आसलें. वासपूस केली तेन्ना समजलें किं तारेची लायन सारकी ना.

‘ आतां जाल्यार आमी भायल्या संवसाराकडेन पुराय तुटले म्हणपाचें ! ’ लूसीन म्हळें.

‘ अशें दिसता खरें. ’

इतलो वेळ हांव त्या बरोबरच्या मनशाकडेन उलोवंक पावंक नाशिल्लों. आता हांवें ताका विचाल्लें, ‘ हांगा पळोवपासारकें कितें आसा ? ’

‘ ह्या रानांत तुमी कितें पळयतले ? आसात ते सफरचंदाचे आनी नासपतींचे मळे.... ’

‘ दुसरें कांय नासत जाल्यार ते पळोवया.  हरशीं ते हांवें खूब पळेल्यात. ’

‘ तशें हांगा एक मोडकें देऊळ आसा. ’

‘ कसलें देऊळ ? ’

‘ देवाचें. ’

‘ तें समजलें. खंयच्या देवाचें ? ’

‘ लक्ष्मी नारायणाचें काय दिसता. ’

हांवें देवळाची खबर लूसीक सांगली. ‘ या तर ’ तिणें म्हळें.

वाटेर त्या मनशाक हांवें विचाल्लें, ‘ तुजें नांव कितें रे ? ’

‘ जगताप. ’ ताणें जाप दिली.

‘ तूं करता कितें ? ’

‘ कांय ना. ’

‘ तूं ह्या गांवचो दिसना. ’

‘ न्हय. हांव मूळ बरेलीचो. पुण थंय म्हजो कोण ना.  हांव शिकूंक सवरूंक नाशिल्लों वाळेस . . . ’ ताणें जाप दिली.

‘ पुण पोटापाण्याची व्यवस्था कितें ? ’

‘ ट्रकांवयल्यान भोंवत रावतां.  हांगाच दोन म्हयने उल्लों. मेळटा तें खातां. ’

‘ तूं म्हजेबरोबर येता ? ’

‘ ना. सकल मैदानांत ( हिमालयांतले लोक सकल्या वाठाराक मैदान म्हणटात ) खूब गरम खंय. हांव येना.  आनी म्हाका नोकरी करपाची ना. म्हज्या हांव स्वतंत्र बरो. ’

आमी देवळाकडेन पावले.  लूसीन कितलेशेच फोटे काडले. देऊळ सामकें मोडून पडिल्लें . . . .

‘ हें देऊळ दुसरेकडेन आशिल्लें जाल्यार येन्ना सारकें जातलें आशिलें. पुण ह्या भागाची सरकार वासपूस लेगीत करिना. हरशीं कुमाऊं सारको सोबीत वाठार आनी असलें लांब रुंद पठार उत्तर भारतांत दुसरें ना. ’ जगतापान म्हळें.

म्हाका ओगीच दिसलें, जगताप हो सादो किरकोळ कुली न्हय.

आमी परतलीं तेन्ना रातीचो काळोख पातळिल्लो. स्टँडावयले खाणावळींत वचून आमी जेवण घेतलें. आनी हांवें जगतापाक पांच रुपया काडून दिले.

‘ आतां नाका फाल्यां पळोवया. ’ ताणें म्हळें, ‘ सकाळीं हांव सामान व्हरूंक बसीच्या वेळार येतां. ’

इतलें म्हणून तो त्या काळखांत नाच्च जालो. हांव आनी लूसी ल्हवू ल्हवू पावलां उबारीत डाक बंगल्याची वाट चलूंक लागलीं.

‘ बरें जालें. म्हाका तूं मेळ्ळो. ना जाल्यार ह्या रानांत हांव शेणून वचपाचें. ’ लूसीन म्हळें.

‘ म्हजोय खूब फायदो जालो. म्हाका कंपनी मेळ्ळी. आनी तुमच्या देसाची थोडीभोव खबर मेळ्ळी. ’ हांवें जाप दिली.

‘ तुमचो देस कितलो व्हड — एक खंडच म्हळ्यार जाता. कितलो सोबीत !’ लुसीन म्हळें.

‘ पुण आमी अजून फाटीं आसात. ’

‘ विकासाची तुमची कल्पना चुकता. विकास करून तुमी खंय वतले ? यंत्रांचो विकास जातकच मनीस यंत्राचोच एक खिळो जाता. हांगा विकास उणें जालां. पुण मनीस मनीस कसो जगता. ’

‘ एक खरें किं आमी कुटुंब म्हणून रावतात. तुमच्या देसांत कशें ? ’

‘ म्हाका तुमची कुटुंबाची कल्पना आवडना. जण एकलो मनीस स्वतंत्र. माया मोग हातूंत अर्थ ना. कुटुंब हें तुमकां बंधन जालां. तुमच्यो बायलो म्हळ्यार रानतल्यो आनी आया जाल्यात...’

‘ आमी संस्कारान तशे. ’

‘ आदल्या काळार तें बरें आसलें. आतां हेंच पळेयात, तुमचे बायलेक जर स्विडनाक वचपाचें आशिल्लें जाल्यार तुमी तिका धाडटले आसले ? ’

‘ म्हजें लग्न जावंक ना. ’ विशयाक बगल दिवपाच्या इराद्यान हांवें म्हळें.

‘ मागीर तुवें जीण पळोवंक ना ... बरें तुका मैत्रीण बी आसा ? ’

‘ ना. ’

‘ बायलांकडेन तुजें नातें तें आवय आनी भैणीपुरतेंच ? ’

‘ हय. तशें म्हळ्यार जाता. ’

‘ आमच्या देसांत बायलांक-दादल्यांक पुराय स्वातंत्र्य आसता. घोवाची याद आयली जाल्यार घोवा म्हऱ्यांत वच. मित्राची याद आयली मित्रागेर वच. उबगण आयल्यार तांकां सोड. नवे मित्र जोड. नवो घोव कर . . . . ’

आंगावयलें नवें न्हेसण विकतें घेवपाची खबरलेगीत इतले सहजकायेन करपाची म्हाका संवय नाशिल्ल्यान तिगेलें उलोवणें आयकून म्हाका अजाप जालें. आमी डाक बंगल्यांत पावलीं तेन्ना हांवें म्हळें, ‘ तूं सुसेगाद न्हीद. हांव भायर ओल्तेराचेर न्हिदतां. ’

‘ एकेच खाटीचेर आमी न्हिदूंया. हांव तुका खायना. ’ तिणें हांसून म्हळें.

‘ आमचे नीतींत तें बसना. ’

‘ तशें जाल्यार हांव ओल्तेराचेर न्हिदतां. तूं भितर न्हीद. ’

‘तुजे सारकिले तरणे सुंदर बायलेक हांव भायर कसो न्हिदावं ?’ हांवें म्हळें.

‘ मागीर तिका खाटीर वेवन न्हीद मरे पिशा !’ ती हांसली.

‘ हांवें आंग काडलें. म्हाका जाप फुटली ना. ल्सीन म्हजें मौन म्हळ्यार हयकार मानलो काय कोण जाणा. निर्विकारपणान तिणें आपलें न्हेसण सोडयलें. आनी भितल्ली साय आंगार दवरून तें खाटीर न्हिदलें.

हांव मेजाकडल्या कदेलार वचून बसलों. पांयाचे बूट सोडयले. आंगावयले कपडे देंवोवपाक मन अनमनूंक लागलें.

खाटेचेर एक उशें रितें आसलें. तें घेवन भायर वचचें अशें थारावन हांव खाटेम्हऱ्यांत गेलों.

‘ कपडे काडलेच ना ? ’ ल्सीन विचाल्लें.

‘ ना. म्हका न्हीद येना. थोडो वेळ भायर वचून बसतां. ’ अशें म्हणून हांवें उशें उबाल्लें आनी कुडींतलो दिवो पालोवन दार ओढून घेतलें.

भायर वल्तेराक फाट तेंकनाफुडें म्हाका न्हीद लागली. सकाळीं उठून पळे जाल्यार शेजारच्या दुसऱ्या वल्तेराचेर ल्सी न्हिदिल्लें. आनी भायलेवटेन जगताप येवन राविल्लो.

‘ केन्ना सुट्टली बस ? ’ हांवें जगतापाक विचाल्लें.

‘ आयज मार्ग क्लीयर ना खंय. ’ ताणें जाप दिली.

‘ बरें जालें. आनीक एक दीस हांगाच रावंक मेळ्ळें ? ’ हांवें जाप दिली.

‘ तूं मागीर पासय मार. ’

जगताप वचूंक गेलो. हांव माजराच्या पावलांनी–कुडींत आयलों आनी खाटेर वचून न्हिदलों. 

# बंदिनी

तुका हांवें पयले खेपे पळयली तेन्ना तूं तुमगेल्या पोरसाचे गेटीभायर उबी आसली. त्या सुखसोयींनी भरिल्ल्या घराची तूंच घरकान्न म्हणपाचें त्यावेळार म्हाका खबर नासलें. देखूनच तुका पळोवन आनी खीणभर तुजेर नदर थिरावन लेगीत तुका हटकिना आसतना हांव उकतें गेटींतल्यान भितर गेलों. हांव तुका इतलो खेटून गेलों कि म्हज्या आंगान हालिल्ल्या वाऱ्याक लागून तुगेले साडयेचो पदर मात्सो हाल्लो आसूये. तुवें लायिल्ल्या उंची सेन्टाचो मंद परमळ वाऱ्याच्या झोतासरशीं म्हज्या नाकांत गेलो. म्हजे मन प्रसन्न जालें. त्या खिणाक सतारींची तार छेडतकच जशी थरथरता तशें म्हजें काळीज हाल्लें. तूं सुंदर हातूंत दुबावच ना. पुण तुज्या सुंदरसाणेचेर हांव भाळूंक नाशिल्लों. कित्याक तें हांव नकळ... पुण तूं म्हजे नदरेंत आनी मनांत भल्ली... पर्थून एक फावट तुजेर नदर भोंवडावपाची ओड म्हाका दिसली ... पुण धीर जालो ना ... त्या प्रसंगाचो उगडास आज लेगीत हांव विसरूंक ना ...

...तुजो बंगलो हेर गिरेस्तांल्या बंगल्यांबरी सोबीत आसलो. भायली–भितल्ली सजावट बरी आसली. गिरेस्तांच्या घरांमदीं फांकता तसलो आगळो वास तुज्याय घरांत येतालो. हांव तडक घराच्या व्हारांदांत गेलो आनी थंय आशिल्ल्या कदेलाचेर बसून विनायक कामतीची वाट पळेत रावलों. म्हाका दिशिल्लें किं घरांतल्यान कोणय तरी भायर येवन म्हाका कोण जाय म्हणपाची वासपूस करतलो आनी विनायकबाब घरा ना अशी जाप मेळटली.

सगळ्या गिरेस्तांची घरां व्हड पुण निर्जन कशीं असो विचार म्हजे मतींत येवचे वेळारच व्हरांदांतल्या दारावेलो पड्डो हाललो. विनायकबाब भायर येतलो म्हणून हांव उठून उबो रावलों. पुण दारांत तुका पळोवन म्हाका अजाप जालें. पोरसांतल्यान मागिलदारा वचून तूं घरांत गेल्ली आसुये.

खीणभर हांव गोंदळून गेलों आनी तुका पळेत रावलों. तुवें दाव्या हातान कुशीक काडिल्लो पड्डो तुज्या दाव्या खांदाचेर सुखाविल्लो आनी त्या वातावरणांत तूं म्हाका अडेची दिसली.

'तुमकां आपयिल्ले दिसता न्हय?' तुवें आपुण जावन प्रस्न विचाल्लो. नम्रतायेन भरिल्लो तुजो तो प्रस्न आयकून हांव विस्मित जालों. गिरेस्तांगेर आपलो मान, दर्जो विसरून उच्चारिल्लीं असलीं नम्र उतरां हांवें केन्नाच आयकूंक नाशिल्लीं. त्याच खिणाक तुज्या घरांतच तूं म्हाका अडेची कित्याक दिसली ताजो उलगडो जालो ... ना ... म्हजेच चुकिल्लें. तुमचो सगळोच वाठार अडेचो आसलो. आनी त्या मजगती निजाची, सभाविक अशी तूं एकलीच आसली!

खीणभरयांत हे विचार म्हजे तकलेंत येवन गेले. देखूनच तुज्या प्रस्नाक जाप दिवंक म्हाका इल्लो कळाव लागलो. हांवें म्हळें, 'चार बरांच्या अदमासाक म्हाका आपयिल्लो. वागेरीक नवो बंगलो बांदतात ताजो प्लॅन दाखोवंक.'

तूं मुखार सल्ली आनी ते सरशीं पड्डो पर्थून सळसळ्ळो. तूं लागीं आयली तेन्नां तुज्या तोंडार उदेल्ली खंतीची एक हय-न्हय शी रेग गेली ती म्हाका दिश्टी पडली. तुवें म्हळें, 'केन्नाकेन्नाय तांकां लोकांक आपयिल्ल्याची यादच उरना ... कामाचो व्याप हालीं वाडला न्हय ...?'

तुवें तुजें वाक्य पुरें केलें ना. म्हाका दिसलें आपणे दिल्ल्या कारणाचेर खासा तुजोच विस्वास नासलो.

‘ बरें आसा. हांव पर्थून केन्नाय येतां ’ अशें म्हणून हांव वचपाची तयारी करूंक लागलों तेन्ना ताकतिकेन तुवें म्हळें, ‘ बसात तुमी. घडये येतय आतां. निकतींच चार वरां जावन धा मिनटां जाल्यांत. बसात तुमी. हांव च्या धाडून दितां. ’

तूं भितर गेली आनी हांव त्या शेकानशेक व्हरांदांत एकटोच बसून रावलों. तुजो विचार करीत. तूं हांगा कशी रावता जातली हाजें म्हाका अजाप दिसतालें. चड अजाप दिसतालें तें हांगा रावून लेगीत तूं आपलें वेगळेंपण सांबाळून आसा म्हणपाचें पळोवन...

मदींच कसलो तरी आवाज आयलो आनी म्हजी नदर दुर्गाचे गेटीकडेन गेली. एक मोटार पोर्च्यांत आयली आनी दुसऱ्याच खिणाक विनायक कामत म्हजे मुखार उबो रावलो. ‘ ओ सॉरी ! म्हाका मात्सो वेळ जालो. तुमकां बसचें पडलें. ’

हांवें म्हळें, ‘ चड बसचें पडलें ना. फकत धा मिनटां. ’

‘ बरें आसा. बसात तुमी. ’ अशें म्हणून तो भितर गेलो. आनी तो परत भायर आयलो तेन्ना, घरांतलो रानपी आसूंये, च्या घेवन आयिल्लो. त्या दिसा तागेल्या बंगल्याच्या प्लॅनाचेर उलयता आसतना हांव आदलो प्रसंग विसरून गेलों. ताका प्लॅन समजायता आसतना ताजे नदरे सामकार बंगल्याची आकृती उबी करपाचो हांव यत्न करतालों. हांव उलयत आशिल्लों आनी तो मोन्यानी आयकतालो. म्हजें उलोवणे सोंपोवन हांवें नदर वयर केली तेन्ना तो दोळे धांपून बसला म्हणपाचें हांवें पळयलें. म्हाका दिसलें तो न्हिदला आसूंये. म्हजी उत्सुकता सोंपून राग येवचे आदींच ताणें मान हालयली आनी म्हळें, ‘ प्लॅन सुंदर आसा. म्हाका असलोच बंगलो जाय आसलो. कांय किरकोळ बदल करूंक जाय आनी स म्हयन्यां-भितर तो बांदून तयार जावंक जाय. अंदू गिमांत आमकां थंय बचूंक जाय. तेन्ना तीन दिसांउप्रांत तुमी ह्याच वेळार हांगा येवशात ? ’

अशे तरेन हांव तुमगेर येवपाक लागलों. तुमगेर येवपाच्या दिसाची म्हाका कितली उमळशीक आसताली ! पुण तो दीस येतकच एक अनोळखी भय म्हजे काळीज कोरांततालो. विनायक कामतीकडेन उलोवंचे परसय त्या वेळार तूं कितें करता आसतली हाचो विचार म्हजे मतींत चड घोळटालो. शेणिल्ली वस्त सोदतना मनीस अस्वस्थ जाता तसो हांव जातालों. तुमगेर येतकच तुजें दर्शन घडचें अशें म्हाका मनोमन दिसतालें. आनी पानाआड लिपिल्ल्या फळाचेर वाऱ्यान पान हालतकच नदर पडची तशी मदींच चुकून माकून तुजेर नदर पडली म्हण्टकीच चातुर्मासांतलें शीतळ वारें लागतकच आंग शिरशिरता तसलें सुख हांव भोगतालों. म्हज्या मनांत सगळो गोंदळ आशिल्लो. ह्या गोंदळाचो तुजेकडेन संबंद जोडपाचो प्रयत्न हांवें केन्नाच केलो ना. पुण अशें आसतनाय शियाच्या दिसांनी फांतोडेर पडटा त्या धुक्यामदीं एकाद्री आकृती नदरेक दिसता तितली अस्पश्ट तुजी मूर्त सदांच म्हज्या दोळयांमुखार उबी रावताली.

आमी नव्या बंगल्याच्या कुडींचीं, चिऱ्यांचीं आनी शिमिटाचीं, तिजुल्यांचीं आनी दारांचीं उलोवणी करताले तेन्ना मदीं केन्नाय तूं येवन आमच्या म्हऱ्यांत बसताली. तूं म्हऱ्यांत येतकच विनायक कामत पुराय बदलून वतालो. तुगेलो सुंदर, फिकट तोंडावळो तो नदर थिरावन पळयतालो. तेन्ना म्हाका दिसतालें कि ताजो तुजेर खुबच मोग आसा....तो तुका भियेता.

...कांय दिसां उप्रान्त म्हाका समजलें किं तुका नवो बंगलो बांदपाची कल्पना पसंत नासली. मनांत आयलें हांव तुज्या घोवालें जें काम करतां तेंय तुका मानवना आसुये. हेविशीं हांवें तुका केन्नाच विचाल्लें ना. पुण एक दीस पयल्या दिसाभशेन हांव कामत येवपाची वाट पळेत व्हारांदांत बसून आशिल्लों तेन्ना तुवें म्हाका अच्चकीत विचारिल्लें, 'नाका आशिल्लें काम करिना म्हणपाची मेकळीक इंजिनियराक आसता न्हय ?' हांवें म्हळें, 'आसता तर.'

तूं कांय उलयली ना. फकत आपलेभितर पुटपुटली, 'काम करिना अशें म्हणपाक मनशाकडेन पयशांचें फाटबळ आसचें पडटा.'

आनी तूं हांसली. खिन्नतायेन भरिल्लो तो हांसो सुयेवरी म्हाका तोपलो. अस्तमतेकडेन देंवतल्या सूर्याचें एक कीर्ण तुज्या दोळयांचेर आयलें आनी दोळे थिकावरी चकचकले. तुवें ते चोळळे... काय तुज्या दोळयांत दुख आयिल्लें? मनांतल्या मनांत हांव तुज्या जिविताच्या काणयेचे घुसपल्ले पोड सोडोवंक लागलों आनी म्हाका दिसलें, पयसो हेंच तुजे खिन्नतायेचे कारण न्हय मूं? ताणेच तुका बांदून घालूंक ना?

दीस वचत रावले. म्हजें काम आता सोंपत आयिल्लें. बंगल्याचें सगळें काम हांवच पळयतालों. सदां सकाळीं तुगेल्या घोवाले मोटारीन पणजेच्यान सत्तरी तालुक्यांतल्या वागेरी हिल्सचेर वतालों आनी रातीकडेन परत येवन ताका कामाची खबर दितालों. केन्नाकेन्नाय ताजी वाट पळेत मध्यान रात मेरेन म्हाका बसचें पडटालें... ताका हेर कामांचो व्याप आसलो म्हणून... एक दीस तुवें म्हाका म्हळें किं हालीं ताका घरा येवंक रात जाता... खुब पयशे जोडटा जातलो.

एके रातीकडेन व्हरांदांत बसून हांव ताजी वाट पळयतालों. दुसऱ्या दिसा सकाळीं पयशे घेवन म्हाका वागेरीक वचूंक जाय आशिल्लें... रातीची दोन वरां जाल्लीं. दुसऱ्या एका कदेलार तूं बशिल्ली. तूंय ताजी वाट पळेताली. बशिल्लेकडेन तुका लकणी आयली तेन्ना म्हाका दिसलें तुज्या ह्या जिवितांत खोशी खंय आसा?

एका गिरेस्त मनशाक शारांत सुंदर बंगलो जाय. थंड हवेच्या गांवांत दुसरो बंगलो जाय. नवी ताळ्ळ मोटार जाय...तेंच भशेन एक सुन्दर बायल जाय. तूं सुंदर आसली म्हणूनच ताजी बायल जाल्ली. तूं तागेल्या घरची एक सोबेची वस्त. सालांत दवरिल्ल्या हेर वस्तींसारकीच एक...

...पुण तूं ताजे जिणेचो वांटो नासली. तुजी सोबीतकाय हो आपले आसपतीचोच वांटो अशें मानून ताणे तुजे व्यक्तित्व आनी अस्तित्व पैशांनी मोलायिल्ले.

म्हाका त्या प्रसंगाचो अजून उगडास जाता. तुमगेर कसली-तरी एक पार्टी आसली. जायते दादले आनी बायलो आयिल्ल्यो. सगळे गिरेस्त. हांव एकलोच किरकोळ मनीस. हालीं बिनायक-बाबाकडेन म्हजी संवकळ वाडिल्ली इतलेच खातीर ते पार्टेक म्हाका आपयिल्लो. आनी त्याच घरांत रावता म्हणून घडये आसत, तूंय थंय आसली.

रातीच्या आठ वरांचेर लोक येवंक लागलो आनी धा मेरेन पार्टीक रंग आयलो. हांशाचे घोगे; बोवाळ आनी आंगांचें स्पर्श वातावरणांत धुंदी हाडपाक आदार करताले. म्हऱ्यांतल्या मनशाचें तोंड वळखूंक येवं नये इतलो मंद उजवाड. स्कॉच आनी थंड सोडाच्यो बाटल्यो... बॅंड. कांय जोडपीं बॅंडाच्या तालार नाचतालीं...

आनी ह्या सगळ्या अनोळखी वातावरणांत भांबावन बचून हांव सालाच्या कोनशाक उबो आसलों इतले. म्हणसर खासा बिनायकबाब म्हज्या म्हऱ्यांत आशिल्ल्या एका सोफाचेर येवन बसलो. ताज्या हातांत व्हिस्केचो ग्लास. तो ताजो धावो ग्लास आसुये. त्या सोफाचेर एक चली बशिल्ली. तिजेकडेन उलयतां उलयतां तो तिज्या म्हऱ्यांत सरकतालो. ताणे आपलो उजवो हात तिज्या उजव्या खांदार दवल्लो आनी तिणे आपली तकली ताजे छातयेर तेंकयली.

म्हाका तें विपरांत दिसलें आनी हांवें नदर फिरायली. ती पडली तुजेर. सालाचे दुसरे वण्टीक तेंकून तूं उबी आसली. एकाद्या पुतळ्या भशेन थीर. तुज्या तोंडार कसलोच भाव नासलो...

बँड वाजतालें. नाच चलतालो. सोदाच्यो बाटल्यो फुट्टाल्यो. जण एकलो आपलें तंद्रेतच गुल्ल आशिल्लो. अशा वेळार मदींच विनायकबाब आनी ती चली उठलीं आनी व्हारादांतल्यान दुसरे कुडींत गेलीं. तुवे तांकां पळयलीं लेगीत नात. तूं कांयच पळयनासली. पुण म्हज्या आंगांत कंप भल्लो.

हांव उठून तुजे सरीं आयलों. म्हाका दिसलें तुज्या दोनय भुजांक धरून तुका हालोवन जागी करची. ज्या संवसारांत तूं वावुरता त्या संवसाराची तुका वळख करून दिवची आनी ह्या स्वर्गांत रावपा-खातीर तूं केदें व्हडलें मोल मेजता ताजें तुका भान करून दिवचें. घडये मुखार चलता तें एक सपन अशें तुका दिसतालें जावंये...

नकळटां हांवें तुजे फाटीर हात दवल्लो आनी ल्हवूच तुका म्हळें, ‘ आयकता तूं ! हें सगळें सोडून तूं वच. फाटीफुडें पळय-नासतना हांगाची भायर सर. ’

तूं कांयच उलयली ना. हांवें भोंवतणीं नदर फिरायली. कोणूच आमकां पळयनासलो. जण एकलो आपलेच धुंवळीत धुंद आसलो.

हांवें पर्थून तुका म्हळें, ‘ चल, म्हजेबरोबर यो . . . तुका जाय थंय हांव पावयतां. जाय जाल्यार तूं म्हगेर यो. तूं सांगशीत त्या नात्यान राव. मित्र म्हणून वा भाव म्हणून हांव तुजो सांबाळ करीन . . . नाका जाल्यार तुजेपसून पयस रावन. पुण ह्या भेरेल्ल्या वातावरणांतल्यान, ह्या आत्मघातकी संवसारातल्यान तूं भायर यो. हो संवसार तुजेखातीर न्हय. ’

तूं म्हाका पळयत रावली आनी मागीर ल्हवूच तुवें नदर फिरा-यली. त्या खिणाक तुज्या तोंडार जें दुःख हावें पळयलें तसलें दुःख जिणेंत हांवें केन्नाच पळोवंक ना ! ते राती उप्रान्त हांव केन्नाच तुमगेर आयलों ना. विनायकबाबालें काम हांवें सोपयलें आनी म्हजे

पयशे म्हाका मेळ्ळे.

...पुण अजून म्हाका समजना, खंयचे पास तुका थंय बांदून दवरतात ते! थंयचे एकेय वस्तूकडेन तुजो काडयेचोय संबंद ना. समाजांत निंदा जातली म्हणून तूं थंय रावता अशें म्हाका दिसना. तूं गेल्यार विनायकबाब अदीक स्वैर जातलो म्हणपाचो तुका भंय दिसता? काय लग्नाचें बंदन तुका लक्ष्मणरेषा जाल्या?... जिणेच्या एकांतांत हांव तुजें हें कुवाडें सोडोवपाचो यत्न करतां. पुण तूं उलयलेबगर तें कशें सुटत?

●●●

# मुग्धा

ही एक किरकोळ याद. कितलींशींच वर्सां म्हज्या मनांत ती घट उल्ल्या. ती बरोवन काडटलों म्हळ्यार काणयेक जाय इतलो मसालो ते यादींत ना. सांगूंक बसलों जाल्यार दुसऱ्याक तिची उत्कटताय पटोवन दिवपा इतलीं म्हजेकडेन उतरां नात. पुण जेन्ना जेन्ना ती याद जागी जाता तेन्ना तेन्ना हांव अस्वस्थ जातां. देखून आज ती बरोवन काडटां.

ती याद एके चलयेची. वयावेले चलयेची. तिर्जी वर्सां हांव नकळं. पुण आंगार निकतीच साडी चडिल्ले किशोरीची. तिजेकडेन हांव अजून एकय उतर उलोवंक ना वा ती उलयता आसतना आयकूंक ना. म्हणून तिका 'मुग्धा' अशें नांव हांवें दवल्लां. तिजें खरें नांव कितें देव जाणा! तिका घराकडेन कोण कोण आसा तेंय हांव नकळं. पुण तिका एक घर आसा.

म्हज्या संवसारांत ती फकत पांच दिसांखातीर आयली. त्या उपरांत तिका हांवें केन्नाच पळोवंक ना. कथेची नायिका जावपा इतली ती सुंदर न्हय. तिजो म्हजो मोग लेगीत जावंक ना. मागीर आमचेमदीं व्हिलन येवपाचोय प्रस्न उप्रासलो ना. तुमकां दिसत किं हांव गूढ गूढ भास उलयतां. पुण हांव तुमकां वेगळें सांगतलों तरी कितें? हांव जाणां तेंच सांगतां. घडये ती चली नाशिल्ली जाल्यार तिजेकडेन म्हजें लक्ष वचपाचें लेगीत न्हय. तशें दिश्टी पडटले जण एके चलयेचेर म्हजें लक्ष वताच अशेंय न्हय. पुण तिजेर लक्ष

वचपाक तशेंच कारण जालें.

मे म्हयन्यांत हांव महाबळेश्वराक गेल्लों. थंय एका हॉटेलांत रावतालों. मनीस थंड हवेच्या जाग्यार मुदासाक वता, तेन्ना ताका कामधंदो कांय नासता. सकाळीं वेळान उठप आनी रातीकडेन बेगीन न्हिदप. सांजचें पासयेक वचप. मनांत आयलें जाल्यार सकाळचो बाजारांत भोंवप. हेर वेळार, जर वचपाची आवड आसली जाल्यार, पुस्तकां वाचप नाजाल्यार हांतुणार लोळून वेळ काडप. हांव ज्या हॉटेलांत रावतालों त्या हॉटेलाचे कुशीक ते चलयेचे घर आसलें. म्हजे कुडीच्या जनेलासामकारच्च तिगेल्या घराचें जनेल. त्या जनेलांत बसून ती सदां तांदूळ वेंचताली. चड करून सकाळच्या वेळार. सांजेच्या वेळार ती जनेलांत आसली जाल्यार तिच्या हातांत तांदळान भरिल्लें ताट ना जाल्यार शिवण आसताली. हें वातावरण खंयचेय प्रेमकथेंत सोबपासारकें आसलें तरी हांगा तसली भानगड नासली. हरशीं परकी गांवांत वतकच आमी सभ्यतायेची रुपडीं काडून हुस्क्यामेकळे वागतात. पुण हे चलयेपुरतें सांगपाचें जाल्यार हांव तसो वागूंक नासलों.

सकाळचो जनेलांत रावन हांव दोंगरी सौंदर्याचो नियाळ करतालों. नाजाल्यार थंयच उबो रावन खाड काडटालों. अशा वेळार तिजी नदर आपल्या हातांतल्या कामाचेर थिराविल्ली आसताली. चुकून नदर वयर गेली जाल्यार तिणें म्हाका पळयला आसूंये; पुण नदरेक नदर मेळप, लजेन नदर सकयल वचप असलें कांय घडलें ना. जनेलांत उबो रावतना तिजें दर्शन घेवपाचो म्हजो इरादो नासतालो. पुण तिका थंय पळोवपाची म्हाका इतली संवय जाल्ली कि भोंवतणच्या सैमाचो तीय एक भाग अशें म्हाका दिसूंक लागिल्लें. तिका जाप दिवची, तिजेकडेन खबरो करच्यो असलें कांयच म्हज्या मनांत आयलें ना.

... पुण तिसऱ्या दिसा एक गजाल घडली. खाडाक लावन

जनेलार दवरिल्लो ब्रश हात लागून सकयल पडलो. चुकून पडलो. शाब्बाच्या फेणान भरिल्लो ब्रश मातयेंत पडलो. हांवें बागोवन पळयलें. ब्रश सकयल आसा. म्हज्या आंगार आशिल्लें फकत बान-यान आणि कमराक तुवालो. हांवें खाडाक शाबू लायिल्लो. येवजिलें कि आदीं खाड करूया आनी मागीर ब्रश हाडूया.

हांव खाड काडटा आसतनाच म्हजे कुडीच्या दारांत ती चली उबी. हातांत ब्रश. मातयेभरवण जाल्लो ब्रश. हांवें हात फुडें केलो. तिणें ब्रश म्हज्या हातांत दिलो. बोटाक बोट लागलें आसूयें. काय म्हाका तसो भास जालो ? तिणें आपलो हात साडयेच्या पदराक पुसलो आनी कांय एक उलयनासतना ती गेली.

ब्रश धुवन जनेलाकडेन येवन पळय जाल्यार ती परतून तांदूळ वेंचताली. जशें काय कांयच पडूंक नाशिल्लें. म्हजो ब्रश पडूंक नाशिल्लो, तिणें तो हाडून दिवंक नाशिल्लो.

सांजेवेळां परत ती जनेलांत आशिल्ली. पुण तिणें नदर वयर केली ना. खंयच्चेय कथेंत सकाळच्या प्रसंगा उपरान्त दोगांमदीं नवें नातें निर्मतलें आसलें. पुण आमचें तशें कांय घडलें ना.

उपरान्त तीन-चार दीस हांव दिसपट्टो त्याच जनेलांत रावन खाड करतालों आनी ती आपल्या जनेलांत बसून तांदूळ वेंचताली. नदरेक नदर केन्नाच मेळ्ळी ना आनी ब्रश लेगीत पडलो ना. हांव तो आतां जनेलार दवरीच नासलों.

दोन दिसांउप्रांत महाबळेश्वर सोडलें. हॉटेल सोडटना तिच्या विहरापरस घरची ओड म्हाका चड आसली. इल्लेंय वायट दिसलें ना. सकाळच्या वेळार हॉटेलाच्या भुरग्याक हांवे टीप दिली आनी हांव सकयल वचून टॅक्सींत बसलों. त्यावेळार ती जनेलांत बसून तांदूळ वेंचताली. पुण तिणें तकली वयर करून पळयलें ना. हॉटेलांत येतात कितले, वतात कितले ! तांचो

हिशोब तिणें खंय दवल्ला ?

बसींत बसून घरा आयलों आनी त्या आदींच ते चलयेक पुरतो विसरून गेलों. मागीर दीसपट्ट्या कामांत रंगून गेलों. पुण केन्ना केन्नाय सकाळच्या वेळार ब्रशाक शाबू लायतना म्हाका तिजी याद येता आनी हांव नकळटा हांसतां. तिका मेळपाची म्हाका उमळशीक नासता. पुण ओगीच दिसता कि त्या हॉटेलात दुसरो कोणूय जनेलांत उबो रावन ग्राङ करूंक लागलो जाल्यार तिका म्हजी याद येतली.



# अबुद्द मोग

काजी मुळांतच तें उकडयां बसलें आनी उजव्या पायांच्या आंगठ्यापोंदा फोक धरून तें चिरूंक लागलें. सामकार बशिल्ल्या देवूले कास्टेचे झोळयेंत फोकां आनी तुरमणां भरिल्लीं. तो मुखार बशिल्लो पळोवन जायून ताका म्हळें, ‘ कुशीक सर. दोळ्यांत दीक उसळटलो. ’

‘ जायू !’ देवून उलो माल्लो. पुण तो थंयच बसून रावलो.

‘कितें चित्ता रे ? दीक उसळत म्हणून सांगिल्लें आयकलें ना ?’

‘ जायू. तुज्यो जांगो इतल्यो गोऱ्यो कशो गो ? ’

उकडयां बशिल्ल्यान जायूल्यो जांगो उकत्यो पडिल्ल्यो. तांची ताका सुनशा लेगीत नासली. देवूलो प्रस्न आयकूनय ताका लज दिसली ना. तें हांसलें.

‘ तूं कास्टी न्हेसून वतांतल्यान भोंवता न्हू, देखून तुगेल्यो जांगो करपतात . . . .’

‘ तुजें आंगय तशें गोरें आसतलें न्हू गो ? ’

आतां मात जायू लजेल्ले भशेन जालें. ताणें आंगठ्यापोंदचो बिब्रो सोडलो आनी तें जमनीर बसलें. विस्तिदाचीं पोंतां ओडून ताणें आपली मांडी धांकली.

‘ हांव तुजे जांगेक हात लावूं गो ? ’

‘ हात दिखाचो मरे तुगेलो ? ’

‘ देवतेच्यान ना गो. तूं म्हणटा जाल्यार झरीर हात धुवन येऊं ? ’

‘ पुण तुका म्हगेल्या जांगांक हात लावंकच जाय कित्याक ? ’

‘ एकूच खेपे लायतां गो, नाका म्हणूं नाका. ’

आनी जायूले जापेची वाट पळयनास्तना देवून आपलो हात तागेले दावे जांगेचेर दवल्लो आनी अचळय भोंवडायलो. दोगांलीय आंगां शिरशिरलीं. जायून दोळे धांपून घेतले. मोराचें पांख आंगावेल्यान भोंवडायतकच जातात तशो सुखदिण्यो खातखुतल्यो ताका जावंक लागल्यो. आनी देवून जाल्यार मळबाक हात लागिल्ल्याची खोस भोगली.

जुवानपणाच्या हुमन्यावेलीं हीं दोन भुरगीं. जायूची पिराय आसत चौदा आनी ताज्यापरस दोन वर्सांनीं ल्हान देवू. फाटलीं कितलींशींच वर्सां तीं गोरवां घेवन ह्या दोंगराचेर येतात. बोरां-तोरां बुड्डीतात. तरेकतरांचे खेळ खेळटात. पुण आज देवून हो नवोच खेळ सोदून काडिल्लो.

‘ पुरो आतां. आतां फोकां चिरूंया. ’ जायून म्हळें.

‘ ते जांगेवेल्यान मात्सो भोंवडायता मगो. ’

‘ नाका. ’

‘ तुका बरें दिसना ? ’

‘ कितें ? ’

‘ हांव हात भोंवडायता तें ? ’

‘ ना. आनी तुका तरी कितें मेळटा ? ’

‘ म्हाका बरें दिसता. ’

‘ पिशें लागलां तुका. चल फोकां चिरूंया. गोरवां खंय पावलीं देवाक खबर ... ’

देवून हात फाटीं काडलो आनी आपली झोळी सोडून तोय फोकां चिरूंक लागलो. कोणूच उलयना आसलो. जायू मात मदीं-मदीं ल्हवूच देवूकडेन पळेतालें.

मदींच देवूल्या दोळ्यांत दीक उसळ्ळो. दाव्या हाताच्या किरांगळे बोटान तो आपलो दोळो घरट्टूंक लागलो.

'म्हजेय हात दिकान भल्ल्यात.' जायून म्हळें. तें उबें रावलें. दोळो पोशेत पोशेत देवूय उबो रावलो.

'सामको चुरचुरता. फुल बील पडना जाल्यार पुरो.' देवून म्हळें.

'राव, असो जीव सोडूं नाका.'

जायू ताज्या म्हऱ्यांत गेलें आनी आपल्या विस्तिदाच्या पोंताचो गुड्डो आपल्या तोंडांतल्या उस्वांसात हुन करून देवूच्या दोळ्यांक शेक मारूंक लागलें.

'हालूं नाका आं.... जिबेच्या पोंतान हांव दोळ्यांतलो दीक भायर काडटां ...' अशें म्हणून जायून ल्हवूच आपले जीबेचें पोंत देवूल्या दोळ्यावेल्यान भोंवडायलें....

देवूलो दोळो जळटालो तो थांबलो. 'आ!' करून ताणें सुटकेचो उस्वास सोडलो. आनी दोळे धांपून घेतले.

अचकीत जायून दोळे धांकून आशिल्ल्या देवूक लागीं ओडलो आनी आपले ओंठ ताज्या ओंठांक घट्ट तेंकयले आनी चप करून कुशीक काडले. दोंगायले हून स्वास थोडो वेळ भरसून एक जाल्ले.

'गोरवांय असोच मोग करतात. न्हय?...' देवून म्हळें.

जायू लजेवन तांबडें जालें.

'तांकां हात खंय आसतात?' ताणें म्हळें.

'आमी एकामेकांल्या तोंडांत जीब घालूंया.'

‘ तोंडां उस्टूचीं ना रे ? ’

‘ मागीर झरीर धुवचीं. ’

‘ नाका रे बाबा. म्हाका भिरांत दिसता. ’

‘ कसली भिरांत गो ? ’

‘ बायो म्हण्टा, दादल्यापसून पयस राव. दादल्यासरीं गेल्यार गुरवार जाता. ’

‘ लग्न जालेबगर गुरवार कशें जातलें ? ’

‘ भिकाऱ्यालें शेंवतू ना, तें खंय गुरवार जालां. ताजें लग्न जावंक ना.... पुण ते खाणीवेल्या ट्रकाच्या ड्रायव्हरासरेन गेल्लें. ’

‘ कोणें सांगलें तुका ? ’

‘ बायो काल बांयचेर म्हणटालें. ’

‘ तशें जाल्यार आमी लग्नूच करूया. ’

‘ तूं भुरगो मरे. घोव जाण्टो आसूंक जाय. तो जोडकार आसूंक जाय. बायो म्हजेखातीर एक घोव सोदता.’

‘ कोण गो तो ? ’

‘ म्हाका कितें खबर ? ’

‘ मागीर तूं घोवागेर वतलें ? ’

‘ वचोंकच जाय . . .’

‘ आनी हांव एकटोच उरतलों. ’

‘ तुजीय बायल येतली मरे एक दीस. ’

‘ पणून म्हाका तुजेसारकिली बायल मेळत गो ? ’

‘ म्हजे सारकिली म्हणून कसली ? ’

‘ गोऱ्या जांगांची ! ’

‘ सगळ्या बायलांल्यो जांगो गोऱ्योच आसतात. ’

'देवाच्यान ?'

'न्हय जाल्यार कितें !'

'पणून एक सांग गो जायू, तूं म्हाका सोडून घोवागेर वतलें ?'

'वचूंकच जाय. चेडवाक तें चुकता ?'

'आमी पळोन या ?'

'पोळोन खंय वतलीं ?'

'म्हाका कांयच समजना. पोणून म्हज्या हड्ड्यांत कलकलता.'

'तूं भियेला देखून कलकलता. उठ आतां. दीस पळय खंय पावलो. या आमी घरा.'

जड पावलां उबारीत देवू दोंगर देंवलो. पुण ताचें चित्त शेणिह्लेवरी जाल्लें. दोन फावटी जायून ताका हडकिलो लेगीत. पुण देवून जाप दिली ना.

सकल तळ्यासरीं पावनकच्च जायू ताचे बगलेक गेलें.

'तूं रागार जालो देवू ?'

'देवाच्यान तर ना गो.'

'मागीर असो फुगार कित्याक ?'

'खऱ्यांनीच्च तूं घोवागेर वयतलें गो ?'

'हे पळय देवू, तुका म्हगेल्या तोंडांत जीब घालूंक जाय आशिल्ली न्हय ? चल त्या वडामुळांत.'

'नाका, भोंगू तें.'

'कित्याक रे ?'

'तूं दुसऱ्याची बायल न्हू ?'

'म्हणून आतांपासून नाका जालें तुका ?'

‘ जायू , तूं वचूं नाका गो घोवागेर. ’

‘ तें फुडलें फुडें पळोवया. तूं आतांच कश्टी कित्याक जाता ?’

जायून ताजो हात आपल्या हातांत घेतलो. ते सरशीं बांध फुटिल्लेवरी ताका रडूंक आयलें. जायून आपल्या विस्तीदाच्या पोंतान तागेले दोळे पुसले आनी ताका वेंगेत घेतलो.

जायूले छातयेर तकली दवरून देवू केदो वेळ रडत रावलो... जायू ताका थापटितालें. शेणिल्लें मन थाऱ्यार येवंक लागलें आनी खुशालकायेचीं ल्हारां तागेल्या मनांत फुटूंक लागलीं. ...

पुण माडावेल्या सांतान रेंदेरान शिळोण घालून विघ्न हाडलें. ‘ बरो मोग कोत्ताय मुरे तुमी ! ’ ताणें साद घालो.

जायू कांचवेलें आनी धांवत गेलें. देवूय लजेलो.



# पातकी मन

'हांव तुका फटोवंक सोदिना.' बायलेन घोवाक सांगलें. तिजो आवाज घोगरो जालो. शियाचो कुडकुडो आंगांत भरचो तशी ती कुलकुळूंक लागली.

घोवान तिजे फाटीवेल्यान हात भोंवडायलो आनी ल्हवूच तिका वेंगेंत ओडली. 'तूं भियेवं नाका. तुका जें कितें सांगपाचें आसा तें तूं भियेना आसतना सांग. ना जाल्यार सांगूं नाका. आयज आमच्या मधुचंद्राची पयली रात. ती अशी भावनांच्या यादींत घुस्पून सारूं नये.'

तिका धीर आयलो. तिणें इल्ली काफी मागली. घोवान मेजा-वेलो थर्मास उकतो करून हुनहुनीत काफी तिका दिली. काफयेचो एक घोंट घेतकच तिका खूब बरें दिसलें.

उटकमंडच्या ह्या हॉटेलांत तीं आयज सांजवेळां पाविल्लीं. लग्नाची हळद दोगांयल्याय आंगावेली अजून निवळूंक ना. हनीमूना-खातीर तो तिका घेवन हांगा आयला. ह्या वाठाराचेर शीं आकांताचें. रगाचे उबेंत दीसभर एकामेकांचे वेंगेंत बसचें अशें दिसता....

उलोवंक ताणेंच आरंभ केल्लो. ताणें तिजें चुंबन घेवन म्हणिल्लें, 'एके चलयेचें हांवें घेतिल्लें हें पयलें चुंबन.'

आनी त्या वेळार तिणें म्हणिल्लें, 'हांव तुका फटोवंक सोदिना.' आनी त्या उतरासरशीं तिका कुडकुडो भरिल्लो.

काफी आनी घोवाली मायेमोगाची खेंव हांकां लागून तिगेलो कुडकुडो थांबिल्लो. तिणें म्हळें, 'सगळें आजच सांगतां. ना जाल्यार

तें म्हज्या मनाक खातलें. माळ घालून तुका हांवें म्हजें जिवीत ओपलां, मायेमोगाचे पास तोडून तुजेवरवीं नवें घर जोडलां. त्या घरांत वावुरतना मन निश्कळंक उरूंक जाय.'

'तशें जाल्यार तूं सांग. सगळें सांग. मन मेकळें कर. लज, भीड वा भय धरिनासतना सांग...तुवें कितेंय केल्लें आसूं, ह्या जल्मांत तुजी म्हजी गांठ मर्णाबगर कोणच तोडूंक पावचोना.' इतलें म्हणून ताणें तिका आंवुळ्ळी आनी निबरान तिचे ओंठ चुमले.

तिका धीर आयलो. बोवालो उजवो हात आपल्या दोनय हातांनी घट धल्लो आनी ताजे नदरेक नदर दिवन म्हळें, 'हांवें पातक केलां अशें म्हाका दिसना.'

बोवाक कांय समजलें ना. पुण ताजें कुतुहल वाडलें. आपलो दावो हात तिजे फाटीर धरून ताणें म्हळें, 'तूं सगळें सांग. मन ल्हव जातलें. म्हाका कांयच वायट दिसचें ना. तुजेकडेन पळोवपाची नदर लेगीत इबाडची ना.'

तिज्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. पुण तिणें तीं पुसलीं नात. आपल्या हातांत आशिल्ल्या तागेल्या हाताचेर तीं गळयलीं. ताजें आंग शिरशिरलें. ताणें उजवो हात तिज्या हातांत दवरून दाव्या हातान तिजीं दुकां पुसलीं आनी तिजी तकली लागीं ओडून ती थापटिली.

—हांव सगळें खरें तें सांगतां... दोन वर्सां जालीं हे गजालीक. तेन्ना हांव पणजे हॉस्पीटलांत आसलें...

ती नर्स आसली हें तो जाणा आसलो. देखून ताका अजाप दिसलें ना.

—त्या दिसा हांव पांच नंबरच्या वॉर्डांत ड्यूटीर आसलें... रातीकडेन निमाण्या राऊंडाक दोतोर आयलो. पंदरा नंबराचे खाटीकडेन पावतकच ताणे म्हाका म्हळें, 'हो पेशंट आतां देवाच्या सुवादीन. रात काडीत अशें दिसना. अर्द-अर्द वरान वखदाचे

थेंब तूं ताज्या तोंडात घालीत राव... आनी गरज पडल्यार म्हाका आपय...' इतलें सांगून दोतोर भायर वचूंक गेलो. हावें म्हजें कदेल त्या पेशंटाच्या म्हऱ्यांतच हाडलें आनी हांव बसलें. भोवन भोवन म्हजी नदर ताजेर वताली... म्हाका ओगीच दुबाव येतालो किं ताजो स्वाद बंद पडला. हांव उठून ताजेसरीं वतालें आनी तो स्वास घेता म्हणपाचें पळोवन परत येवन कदेलाचेर बसतालें... बशिल्लेकडेन हांव देवाकडेन मागतालें किं ताका येवपाचें मरण थंडसाणेन येवं!

—तो पेशंट दादलो काय बायल? मदींच घोवान विचाल्लें.

—हावें सांगलें? विसल्लें दिसता. दादलो... वयावयलो... सुमार तीन वरांचेर ताका गरगर लागिल्लेभशेन जालो आनी ताणे अंदूक किळच माल्ली. हांव उठून ताजेसरीं गेलें आनी ताज्या कपलार हात दवरून ताका विचाल्लें, 'कितें जालें?'

'म्हजें जिवीत सोपलें. आतां हांव वतां.' क्षीण आवाजांत ताणे सांगलें.

—म्हज्या सगळ्या आंगार भयान कांटो फुल्लो. पुण धीर धरून हावें म्हळें, 'देवाचें नांव घे.'

—त्या उतराक ताणें म्हळें, 'देवान अशें म्हजेखातीर कितें केलां म्हणून ताजें नांव घेवं? पिरायेच्या पंचवीसाव्या वर्सा, जिणेचो आनंद भोगचे आदीं मरण येवप दुःखाची गजाल अशें लोकांक दिसता. पुण ह्या संवसारांत हांव अनाथ. म्हजेर कोणाचो मोग ना. हांव मेल्यार कोणच रडचो ना. मागीर हांव मरता आसतना देवाचें नांव कित्याक म्हणून घेवं?'

—तो ओगी रावतकच हावें म्हळें, 'नाका. देवाक दूशण दिवं नाका.'

ताणें एक व्हड सुस्कार सोडलो. आनी मागीर हावें पळयलें ताज्या दोळ्यांत दुकां आयिल्लीं. तो रडटालो.

‘ म्हजें चुकलें.’ ताणें म्हळें, ‘ निमाण्या वेळार देवान तुज्या रूपान म्हजेसरीं हो मायेचो हात हाडलो. . . .तूं म्हजेर एक उपकार करशीत नर्स ? ’

‘ सांग. म्हज्यान जायत तें हांव करीन.’ हांवें म्हळें.

‘ तुका हांवें शांत चित्तान प्राण सोडिल्लो जाय ? ’

— हांव उलयलें ना.

‘ जाल्यार अशें कर.’ ताणें म्हळें, ‘ हो संवसार सोडून वतना म्हजी एक निमाणी इत्सा उल्ल्या ती पुरी कर. . . म्हाका एक चुंबन दी ! ’

घोवान भियेवन आंग काडलें. तशी ती कांचवेली.

—चुंबन ? घोवान विचाल्लें, ‘ तुवें दिलें ? ’

—सांगतां. बायलेन म्हळें. हांवें म्हळें, ‘ चुम्बन बायल दिता फक्कत घोवाक ना जाल्यार भुरग्याक.’... म्हजी जाप आयकून ताणें परत उस्वास सोडलो आनी दोळे धांपून घेतले. . . .आतां तागेलो गरगर वाडलो. हांवें ताज्या तोंडांत वखदाचे थेंबे घाले. ते घेवन ताणें आपली जीभ ओंठांवेल्यान भोंवडायली. आनी क्षीण आवाजांत म्हळें, ‘ तुजी खोशी...पुण तीच्च म्हजी निमाणी इत्सा.’

—हांव सामकें भियेवन गेलें. म्हाका ताजी काकुळट दिसली. ताजें नांव - गांव, ताजी जात - पात हांव नकळं. पुण मरूंक तेंकिल्लो एक आत्मो शांत जावंक सोदता...सूर्य वयर सरचे आदीं तो सोंपतलो ....वॉर्डींत सगळ्याक थंडाय पातळिल्ली. मंद दिव्याच्या उजवाडांत बाकीचे पेशंट सुस्त न्हिदिल्ले...फक्कत एका जीवा भोंवतणीं मर्णाचो पास आंवळत वतालो.... हांवें ताज्या तोंडाकडेन तोंड व्हरून चुम्बन घेतलें !

—ताणे फिकट नदरेनच उपकार मानले. हांव थंयचें उठलें आनी देवाचें नांव घेत दुसरेकडेन वचून बसलें.

—मागीर ? घोवान विचाल्लें.

—तेन्नाच्यान म्हजें मन म्हाका खाता. हांवें पातक केलें. तेंच

तुका सांगूंक सोदतालें. . .

—सोंपलें तुजें सांगून ? घोवान विचाल्लें.

बायलेन ताजो हात सोडलो आनी हुमेन भिजिल्ले आपले हात आनी तोंड साडयेच्या पदरान पुसलें. तिका खरस आयली. . . .

—तुवें ताज्या ओंठांचें चुंबन घेतलें ? पर्थून घोवान विचाल्लें.

—तेन्ना काळोख आशिल्लो. . . . पुण हांवें ताजे ओंठच चुमले आसूंक जाय.... थंयच म्हजें चुकलें.... हांवें ताजें कपल चुमूंक जाय आशिल्लें.... मर्णाच्या घडेवेल्या.... ती परत धांपेली.

—इतलेंच मगो ? विसर तूं आतां. तो मरपाचो मरून गेलो...

—ना. तो जितो आसा.

—जितो आसा ?

—हय....त्या दिसा फांतोडमेरेन तो मर्णांत आशिल्लो. पुण सकाळीं तो निवळ्ळो. दोतोर वॉर्डांत आयलो तेन्ना ताजें हुशार तोंड पळोवन ताका अजाप जालें. ताणें म्हळें, 'मेडीकल क्षेत्रांतलो हो चमत्कार. आतां तो वांचतलो.'

—खंय आसा तो आतां ? घोवान विचाल्लें.

—म्हाका खबर ना. त्या दिसा उप्रांत हांव त्या वॉर्डांत केन्ना गेलें ना आनी ताका पळोवंकय ना. आज तो मेळ्ळयार लेगीत हांव ताका वळखुचें ना....

आतां घोवान सुटकेचो उस्वास सोडलो.

—तुका राग आयलो ? बायलेन विचाल्लें.

—ना.

—वायट दिसलें ?

—ना. . . पुण मत्सर मात दिसलो. घोवान म्हळें.

—कोणाचो ?

—म्हजे सुंदरीचें पयलें चुंबन घेतल्याचो! आनी ताणें तिका वेंगेंत ओढून चुमली. 

# पिकिल्लीं पानां

(एक म्हातारें जोडपें बासरेंत बसलां. घोव आनी बायल दोगांय दोन कदेलांचेर बसल्यांत. घोवाच्या हातांत पेपर आसा. बायल शिवण घेवन बसल्या. वेळ सांजचो.)

घोव : आज नुस्तें मोव जाल्लें.

बायल : मोव जावंक ना. बर्फांतलें तें.

घोव : कोण सांगता ना म्हणून. मोवच्च तें. सामकें पोंवशेल्लें. अजून गळ्याकडेन कचरता.

बा. : तो गुन्यांव नुस्त्याचो न्हय. तुगेले जिरवणेचो. इल्लो लिंबाचो रोस घे.

घो. : म्हगेले जिरवणेक कांयच जावंक ना. नुस्तेंच पोंवशेल्लें.

बा. : सोड...नुस्तेंच तें. नाका जाल्यार खावचें न्हय आशिल्लें.

घो. : मागीर खावचें आशिल्लें कितें ?

बा. : हांव पापोड भाजून वाडटलीं आशिल्लीं.

घो. : पापोड खाल्यार मात खूप दीस जाले आं ?

बा. : खूब दीस खंयचे ? पयरूच भाजून वाडिल्लो.

घो. : तो विकऱ्या पापोड ... रुच ना दळ. हुड्डांचे भाकरे कुडको कसो... म्हाका जाय तो घरावो कुरकुरीत पापोड... बरो तेल घाल्लो...

बा. : हांवें आतां घरा दाळ दळल्यार मात...

घो. : दळ्ळी जाल्यार कितें जालें ? म्हजी आई सदां आपुणच दाळ दळटाली... तिगेल्या पापडांक पुण सर ना... अजून जिबेर आसा...

बा. : भोंगू तें तुगेलें आवय पुराण... म्हाका तिणें दळ्ळया तितली पुरो...

घो. : नसाय जाली ?

बा. : नसाय कसली ?... दीसयभर खाणाच्यो खबरो... दुसरेकडेन मात्शें चित्त व्हर. सामको ते आवयलो पूत...

घो. : तोंड सांबाळ आं... पयलीं सांगून दवरतां. म्हजे आवयक वयर काडची ना तूं... तुमी बार्देसच्यो बायलो...

बा. : तुका हांव भियेतां काय कितें ?... सांगतां तुका म्हजें बार्देस वयर काडूं नाका.... तुमी साश्टीचे दादले कशे तें हांव वळखून जाणां... समजलें ?

घो. : चूड गे बाये चूड !

बा. : हांव चूड आसतीं तर तुगेलें घर केन्ना लासून गोब्बर जावपाचें.

घो. : देवाचे उपकार... तेंय करूंक उणें नासली तूं... म्हजे आईन म्हणून दीस काडले... आनी कोणय आसतो जाल्यार...

बा. : जाल्यार कितें जावपाचें ?... राग हाडूं नाका तूं म्हाका आं.. पयलीं सांगतां... मेल्ल्याक वायट उतर दिवपाची जात न्हय आमची... पुण तुजी आवय... देवा म्हज्या ! जिभेर इंगळो घेवन भोंवताली.

घो. : तूं कितें मोनी आसली ?

बा. : खंयची बायल मोनी रावत आसली तिज्या सामकार ?... आनी तुज्यासारकिल्लो मुखदुर्बळ घोव मेळटकच...

घो. : हांव मुखदुर्बळ आशिल्ल्यानच तुजें चल्लें न्हय ? . . . आनी घराचे नळे जागच्या जाग्यार उल्ले. . . ना जाल्यार केन्ना उबून वचपाचे ते.

बा. : म्हाका जाय तशें ?. . . अशें कितें केलें तर हांवें तुगेलें ? . . . पस्तीस वर्सां संवसार केलो हांवें ह्या दादल्यालागीं. . .

घो. : तुवेंच मावशेक घराभायर काडली. . .

बा. : तिका काडपाचीच. . .तुगेले आवयली भैण ती. भैण मरतकच्च तिगेलें घर सांभाळूंक बरी धांवन आयिल्ली. . .

घो. : येवूं आशिल्ली. . . .ती तुकाच रानचे कुडींत आदार दिना आसली. . . .

बा. : हय तर ! आदार मू ? माथ्यावेल्यान ! दीसयभर पिसड्डन खाताली. . . .दोन दोन वरांनी तिका च्या लागताली. . .निखटी घेतल्यार धवळटालें तिका. . .आनी एका मानायाचें भातें. . .

घो. : आनी सदाक कित्याक धांवडायलो ?

बा. : हांवें धांवडावनच बऱ्याक पावलो तो. हांगा मामागेर ताजी अपुर्बाय चड जाताली. दोनूय वेळांचो पोटभर जेवन न्हिदो काडटालो. आळशी आशिल्लो. मॅट्रिकेक चार वेळ नापास जाल्लो. . . तें तुजेर वजें आशिल्लें, वजें. . . कितले दीस पोसतलो आशिल्लो तूं ताका ? धांवडायिल्ल्यान आपल्या पायांचेर उबो रावंक पावलो तो. म्हजे उपकारच मान. . .

घो. : बरें बाये तुजें. . .हद्द जाली. . .हालीं दिश्टी पडलोच ना पुण सदा. . .

बा. : हय आं ! फाटले खेपे बिस्कुत्यांचें फोलीन घेवन आयिल्लो. ते गजालीक स म्हयने जाले.

घो. : तुजें चित्तच खाणाचेर.

बा. : म्हजें चित्त खाणाचेर खंय. . .हाणें खाल्यो त्यो बिस्कुत्यो ?... येतल्यावतल्याक च्याक दवरून काबार जाल्यो त्यो.

घो. : हालीं सदा जाण्टो दिसूंक लागला. . . . फाटले खेपे ताजे केंस धवसार दिसताले.

बा. : पिकल्यातच ताजे केंस, ४५ वें वर्स चलता ताका.

घो. : नस्तें कितें ?... चाळीस वर्सां जायत ताका.

बा. : दोन चडच जायत.... नाका थंय काटकसर कित्याक करता ?

घो. : अशें करूया. तो येतकच ताकाच विचारूया...

बा. : विचार ना जाल्यार आनीक कितेंय कर. म्हाका बो पडलां.
(घोव पेपर उबारता. बायल शिवण शिंवता.)

घो. : बाबूलें पत्र हालीं आयलें ना.

बा. : फाटल्या सोमाराक आयलें न्हय ?

घो. : ती फाटल्या म्हैन्याची गजाल.

बा. : पुण म्हैनो सोंपल्यार अजून धा दीस जावंक नात.

घो. : तातूंत ताणें रोखडेंच दुसरें पत्र बरयतां म्हणिल्लें...

बा. : पुण तुवें जाप धाडली तर ?

घो. : हय. ह्याच म्हैन्यांत तो हांगा येवपाचो आसा...

बा. : बायले–भुरग्यांक घेवन म्हैनोभर रावतलो तो...

घो. : तो खंय परकेकडेन येता... आपल्या घरा येतलो... सुनेचो तुका आदार मेळटलो...

बा. : हळद लागली तिगेल्या आदाराक. तिणें आपलो जीव सांभाळल्यार पुरो... घोवाक नांवान उलो मारता ती.

घो. : आतांची फॅशन ती.

बा. : तुमचे फॅशनीक पेटली चुट्टी...आतां नातवाचें तोंड पळोवक

मेळटा म्हणून येवूं म्हणटां हांव...

घो. : तुजीं आनी सुनेचीं रात दीस झगडीं. देखूनच ताणीं मुंबै बिराड केलें . . .

बा. : म्हजीं झगडीं खंयचीं ? तिकाच म्हजी आडखळ जाताली . . . सुधारणा सुधारणा म्हणून ती करी नखरे... मांयची एक ना ती ना मांवाचीय तिका मुर्वत ना...

घो. : म्हैन्याखातीर येतली . . . .तिका जाय तें करूं. तूं दोळे उकते दवर; पुण पळोंव नाका. कान शाबूत दवर, पुण आयकूं नाका.

बा. : म्हाका खंय आसता वेळ घोवा–बायलांचे भोवस्ताळे पळोवंक ?

घो. : बाबून पत्रांत बरयलां आपली मेवणीय घडये येत म्हणून . . .

बा. : नांव घेवनाका तिजें . . . पिरायेन धाकली खरी; पुण कर्णीन आमगेले सुनेची व्हडली भयण ती !

घो. : नांव कितें तिजें ?

बा. : म्हाका बो पडलां तिज्या नांवाचें . . . मूळ नाव खंय कमल . . . पुण तिजो घोव खंय तिका ‘ कळी ’ म्हणटा . . .

घो. : पुण ती कपालाक कुकूम लेगीत लायना.

बा. : फॅशन खंय ती . . . देखूनच अजून भुरगीं जायनात तिगेर.

घो. : कुकूमाचो आनी भुरग्यांचो संबंद कितें ?

बा. : म्हाका खबर ना !

[ घोव हांसता. थोडोवेळ थंडाय ]

घो. : हालीं जायत्यो घोवांच्यो बायलो कुकूम लायनात !

बा. : तूं खंय पळोवंक गेल्लो ?

घो. : पयस कित्याक वचूंक जाय ? बचंत थंय आज बायलोच भोंवतात. नुत्या-बाजारांत दादल्यांफुडें बायलो...

बा. : अच्छेव आयला तांचेर... गर्दी पळेतकच बेभान जातात त्यो.

घो. : आदीं त्यो घराभायर वचना आसल्यो. आतां त्यो नोकऱ्यो करतात न्हय ?

बा. : दादल्यांचेरय काळ आयला. शेजारच्या मुकुंदाक आज सात वर्सां नोकरी मेळना... पुण तागेली भयण पयल्या दिसा पास जाली आनी दुसऱ्या दिसा बँकेंत लागली.

घो. : जावं... घरांत तितलोच आदार.

बा. : आदार कर्माचो... हांकां लागून दादल्यांमदीं मात बेकारी वाडटली.

घो. : तातूंत कितें जालें ? आतां काळ बदल्ला. दादल्यांनीं रानचीं-कूड सांबाळल्यार जाली...

बा. : लजय कशी दिसना तुका ?

घो. : जांकां लज दिसूंक जाय आशिल्ली ताणीं तीं सोडल्या. मागीर म्हाका कित्याक दिसतली लज?

बा. : आमच्या वेळार चली मनीस अशेंऽ शिवण घेवन बसतालें... हालीं तांकां वेळ मेळना. मेळटा तेन्ना तांच्या हातांत लिपस्टीक आनी भोंवयो रंगोवपाची लापस.

घो. : हालीं बायलो पोलकां लेगीत आलफियादांकडच्यान शिंवन घेतात.

बा. : घेनात त्यो ! तुका कितें ? तुवें जोख काडचें पडलां ?

घो. : तुगेले भैणीली चली आनी पंजाबी ड्रेस घालता.

बा. : तातूंत कितें जालें... सोबता तो तांका...

घो. : तागेल्या बापायक खंय अजून पुडवें न्हेसूंक येना.

बा. : कित्याक येवंक जाय ?

घो. : ताणीं धर्मच सोडला !

बा. : पॅण्ट घाल्यार धर्म बुडटा म्हणून कोणें सांगलें तुका ?

घो. : चलयेक तरी साडी न्हेसेवची आशिल्ली पापयान...

बा. : हो जुलुम मगा ! तागेले चलयेन कितें न्हेसचें हें तांचें तांकां पळोवं दी.

घो. : ल्हान न्हय तें आतां... वीस वर्सांचें जालें !

बा. : हट् ! पयरच सोळावें लागलां लताक !

घो. : तुगेले भैणीली चली दिसीं दिसीं ल्हान जायत वता दिसता...

बा. : ती सारकीच वाडटा... तुगेली नदर मात आतां म्हातारी जावंक लागल्या.... लागींचें सगळें ल्हान दिसता तुका आनी पयसुलें सगळें व्हड....

घो. : (पेपराची घडी करून वारें घेता) उजो मारता....

बा. : तितलोसो न्हय.

घो. : ह्या वाटाराक सामकें थंड....कोणाचीच जाग ना !

बा. : कोलव्यां वेळेर बरें !

घो. : तुका चकाटां मारूंक बायलो मेळटात म्हणून मू....?

बा. : आनी तुका इस्पीकांनी खेळूंक दादले मेळनात दिसता ?

घो. : खेळापरस वारो–झणझणीत बरो वारो–जीव सुखायता.

बा. : पुण वाऱ्यान पिकिल्लीं पानां झडटात....

घो. : दर्यार अंदू हांव णव न्हाणां करतलों....

बा. : मर्दीच न्हाणांची–शी याद आयली....तीं पाखल्यांचीं चेडवां न्हाता आसतना तांचेमदीं तूंय बुचकळ्यो मारतालो...शी!

घो. : म्हणून तांकां लजून हांवें न्हायना आसतना रावपाचें ?....तरी बरें, तूं आशिल्ली बरोबर....

बा. : हांव आशिल्ल्यान माणसुकी....ना जाल्यार हो दादलो तांकां खांदार लेगीत बसयत आशिल्लो....

घो. : ( सुस्कार सोडटा )

बा. : निलज्ज रे बाबा!



श्री. चंद्रकांत केणी हांचीं हेर कांय पुस्तकां :

— फुलांचो हात

— एकलो एकसुरो

— तरे तरेचीं संवगां

— आशाढ पांवळी

— धर्तरी अजून जियेताली

•

आमचीं कांय हेर प्रकाशनां :

— घुमचे कटर् घुम्
(अना म्हांबरो)

— दिस्टावो
(पांडुरंग भांगी)

— उजवाडाचो रुख
(माधव बोरकार)

•

सोबीत साअित्य प्रकाशन

Printed at Casa Gomantak, Margao (Goa)